

# अखिल भारतीय
# कोंकणी साहित्य संमेलन

बारावें अधिवेशन

म्हापशें-गोंय

# OKHIL BHARATI
# KONKNNI SAHITYA SOMMELON

BARAVEM ODHIVEXON

MHAPXEM- GOEM

# अखिल भारतीय
# कोंकणी साहित्य संमेलन

## १२ वें अधिवेशन

**गुंडू सिताराम आमोणकार नगर**

(सारस्वत विद्यालय संकुल)

**खोर्ली-म्हापशें, गोंय**

**५ आनी ६ मार्च, १९९४**

# येवकार पुरुशार्थाचो

कोंकणी जनांचो कोंकणी मनांचो येवकार पुरुशार्थाचो
संस्कृतायेची शिकवण आमची राखप मान सगल्यांचो

हिन्दू-किरिस्तांव-मुस्लीम आमी कोंकणी आवयभाशेचे
हातांत हात घालून चलप हो धर्म चलणुकेचो

इतिहासाचे पडून धपके वेगळायल्ले जरी आमी
एकवटाचे बुन्यादीचेर तिगून भोवमान आमचो

आसूं खंयबी आमचो राबितो सत्व आमी राखलां
गर्वान एक जातात आयकून उलो कोंकणीमायेचो

आमचेर सासाय देवादिकांची पुण्याय वाडवडलांची
जिणेर पडबींब कलागुणांचें निनाद सातसुरांचो

*— प्रकाश पाडगांवकार*

# PROMOTION, DEVELOPMENT & PRESERVATION OF CULTURAL HERITAGE

Grants to voluntary cultural organisations.

Supply of cultural equipment to Govt. Primary/Middle/High Schools

Grant to Non-Govt. secondary schools for purchase of cultural equipments.

Financial assistance to eminent artistes/ writers in indegent conditions.

State cultural awards to the outstanding artistes.

Inter State exchange of cultural troupes programme.

Financial assistance to Artistes/groups/organisations for conduct of cultural shows.

Publication and promotion of literature on arts and cultural activities.

Conduct of cultural courses/camps/festivals, competition for teachers/ students and non student youths.

Establisment of cultural Hostels/Ravindra Bhavan/cultural complexes etc.

Development of village/taluka libraries.

Grant-in-aid to the libraries started by voluntary agencies.
Celebrations of Centenaries/Anniversaries of Eminent personalities.

*Issued by*

**Directorate of Arts & Culture**

Panaji - Goa



## येरादारी आनी निवास समिती

| | | |
|---|---|---|
| **निमंत्रक** | : | सुभाष नायक |
| **वांगडी** | : | रत्नपाल साळकार<br>दिलीप पेडणेकार<br>विवेक खराटे<br>कांता धारगळकार<br>लता साळकार<br>मेघना कळंगूटकार<br>हर्षल दळवी<br>प्रमिला कामत |

## यादस्तीक समिती

| | | |
|---|---|---|
| **निमंत्रक** | : | श्याम वेरेंकार |
| **वांगडी** | : | रवींद्र म्हाड्डोळकार<br>से. मा. बोर्जीस<br>दामोदर घाणेकार |

---


| | | |
|---|---|---|
| **मुखचित्र** | : | दिगंबर सिंगबाळ |
| **मुद्रक** | : | राजहंस ऑफसेट |
| **रेखाचित्र** | : | गजानन च्यारी,<br>दामोदर नायक |
| **प्रकाशक** | : | भरत नायक, कार्यवाह<br>१२ वें अ. भा. कों. सा. संमेलन<br>कोंकणी भाशा मंडळ, टी बी कुन्य सभाघर,<br>पणजी. |




# अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलन
## फाटलीं इकरा संमेलनां-एक नियाळ

### सुरवेच्या काळांतलीं चार संमेलनां

एकापरस अदीक राज्यांनी विखंड जावन पडिल्ल्या कोंकणी समाजाक, भाशेच्या सुत्रान सांस्कृतीक मळार एकठांय जोडपाचें काम अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या आसऱ्याखाला जातालें. हे परिशदेच्या वावराचो आस्पाव आनी मोख. कोंकणी मुखावयले तुर्ताचे परिस्थितीचे नदरेन वेगळी आशिल्ल्यान, कोंकणी बरप्यांक, कोंकणी साहित्याच्या वावराखातीर एकठांय हाडपाक एका व्यासपिठाची गरज आसली. हेच गरजेंतल्यान कोंकणी लेखकांचे परिशदेची कल्पना फुडें आयली आनी 'कोंकणी लेखक परिशद' ह्याच नांवाखाला तिच्यो दोन बसको जाल्यो. तिसरे खेपेच्यान परिशद ह्या नांवांत बदल करून 'अखील भारतीय कोंकणी लेखक संमेलन' म्हणून तें जावंक लागलें. पयल्यो दोन लेखक परिशदो 'कोंकणी बरोवप्यांचो एकवट' हाच्या आसऱ्याखाला जाल्यो. तिसऱ्या लेखक संमेलनासावन, हीं संमेलनां पुरायान कोंकणी भाशा मंडळाच्या आसऱ्याखाला आयोजीत जावंक लागलीं. इकराव्या संमेलना साकून ताची जापसालदारकी अ. भा. कोंकणी परिशदेकडेन सोंपयली आनी ताच्या नांवांतय बदल करून तें 'अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन' अशें केलें.

पयलें संमेलन १९६८ वर्सा पुण्यवंत शणै गोंयबाबाचे जयंती दिसा म्हळ्यार जुनाचे २३ वेर मडगांवांत श्री दामोदर विद्याभुवनांत जाल्लें. ह्या संमेलनाचे येवकार–अध्यक्ष आसले बाकीबाब बोरकार आनी येजमान आसले प्रसिद्ध कथाकार लक्ष्मणराव सरदेसाय. कोंकणी भाशा मंडळाचे तेन्नाचे अध्यक्ष श्री. केशवबाब भेंब्रो हांणी ही परिशद घडोवन हाडपाक जायतो वावर केल्लो.

हे पयले परिशदेंत कोंकणी बरपावळीच्या वेगवेगळ्या प्रस्नांचेर मुखेलपणान विचार जाल्लो आनी कोंकणीचे साहित्यीक चळवळीक फावो तें रूप दिवपाचे नदरेनय कांय पावलां मारपाचीं थारिल्लीं. कोंकणी समाजाचो संस्कृतीक एकवट, कोंकणीचें शुद्धलेखन, एकरुपी कोंकणी, बरोवपी आनी तांचें साहित्य, हे ते परिशदेंतले म्हत्वाचे मुद्दे आसले.

### दुसरें संमेलन

कोंकणी लेखकांचें दुसरें संमेलन १९६९, नोव्हेंबरचे १५ आनी १६ वेर अशे दोन दीस पणजेंत जाल्ले. हे परिशदेची येजमानकी श्री. रवींद्रबाब केळेकार हांणी चलयिल्ली. फादर मोरेन द सौझ हे तिचे येवकार अध्यक्ष आसले. सर्वश्री नागेश करमली आनी रामकृष्ण जुवारकार हांणी कार्यदर्शी ह्या नात्यान वावर केल्लो. गोंय, दामांव, दीव विधानसभेचे तेन्नाचे सभापती गोपाळ आपा कामत हांणी ह्या संमेलनाचें उक्तावण केल्लें. त्या संमेलनाक गोंयाभायर मुंबय, पुणें, कारवार, मंगळूर, कोचीन ह्या सुवातांवयल्यानूय प्रतिनिधी आयिल्ले.

पणजेच्या क्रिश्तु रेय सभाघरांत जाल्ले हे परिशदेंत पयल्या दिसा उक्तावणाचो दबाजो आनी रातची तरेकवार संस्कृतीक कार्यावळ जाल्ली. दुसऱ्या दिसा सकाळीं, विशय समितीची बसका आनी ते उप्रांत दनपारां पेपर वाचन आनी

सांजेची उक्ती बसका जाल्ली. गोंयचें शिक्षण आनी कोंकणी लोकगितां, कोंकणी नाटकां, कोंकणी सरस्पत, रोमी लिपींत कोंकणी वर्तमानपत्रांचो इतिहास आनी कोंकणी साहित्य कानडी लिपींत अशे वाचिल्ल्या पेपरांचे विशय आसले. उक्ते बसकेंत आठ थाराव मानून घेतिल्ले. हांतले मुखेल म्हळ्यार कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळची, कोंकणीचो घटनेचे आठवे वळेरेंत आस्पाव जावचो, गोंयच्या सरकारान कोंकणी भाशा विभाग सुरू करचो, आकाशवाणीचेर कोंकणीक अदीक वेळ मेळचो, कोंकणीक आदार दिवंक केरळ सरकाराकडेन मागणें आनी एसएससी बोर्डाच्या शिक्षणक्रमांत कोंकणीचो आस्पाव करचो अशो मागण्यो करपी आसले. कोंकणी लेखकांनी निरक्षरांक साक्षर करपाखातीर पुस्तकां, भुरग्यांक, वाचपाक पुस्तकां, आनी शाळांखातीर पुस्तकां, तयार करपाखातीर सहकार्य दिवचें आनी देवनागरी लिपीचो उपेग एके मानून घेतिल्ले रितीन करचो असो कोंकणी लेखकांक आवाहन करपी एक थाराव आसलो.

कोंकणी लेखकांचे दुसरे परिशदेचो हो सगलो वावर जातूंत येवकार अध्यक्ष, उक्तावण करपी आनी येजमान हांचीं भाशणां, वाचिल्ले पेपर आनी मानून घेतिल्ले थाराव हांचो आस्पाव जाता तो पुस्तकरुपान उजवाडायला. 'जैताचें आनीक एक पावल' अशें ह्या पुस्तकाचें नांव आसा.

## तिसरें संमेलन

कोंकणी लेखकांचें संमेलन १५ आनी १६ फेब्रुवारी १९७५ वर्सा मडगावां भरलें. श्री. उदय भेंब्रो हे संमेलनाचे अध्यक्ष आसले आनी एवाग्रियु जॉर्ज येवकार अध्यक्ष. नामनेचे कोंकणी नाटककार, श्री. देवराय बैंदूर हांणी संमेलनाचें उद्‌घाटन केलें. येवकार समितीचे कार्याध्यक्ष श्री. शांताराम अनंत हेदो हांच्या मार्गदर्शनाखाला विंगड विंगड समित्यांच्या वांगड्यांनी हें संमेलन जैतिवंत करपाक हातभार लायलो. शेनवारा सांजवेळा संमेलनाचें उद्‌घाटन जालें आनी रातीकडेन संस्कृतीक कार्यावळ जाली. गोंय, महाराष्ट्र कर्नाटक आनी केरळ राज्यांतल्या कोंकणी लेखकांनी ह्या संमेलनांत वांटो घेतिल्लो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं विशय नियामक समितीचे बसके उप्रांत कोंकणी साहित्याचे वाडीची दिशा सारकी आसा काय ना हाचेर एक परिसंवाद जालो. दनपारां लेखकांचो मेळावो जालो. जो एकमेकांकडेन वळख वाडोवपाक उपकारलो. उक्ते बसकेंत कांय म्हत्वाचे थाराव घेतले उप्रांत रातीकडेन कवी संमेलन जालें.

मानून घेतिल्ल्या थारावांमदीं कोंकणीचो घटनेचे आठवे वळेरेंत आस्पाव करचो, साहित्य अकादेमीन हे भाशेक मान्यताय दिवची, गोंय सरकारान कोंकणी नाटकांवयलो करमणूक कर रद्द करचो, कोंकणीचे वरवीं समाज जागृती घडोवन हाडून गोंयचें पुनरुत्थान करचें, घरावे आनी भौशीक जिणेंत कोंकणीक मानाची सुवात दिवची, आकाशवाणीन आपल्या विंगड विंगड केंद्रांचेर कोंकणीक चंड वेळ दिवचो आनी गोंयच्या अदमासपत्रांत मंजूर जाल्ले पयशे राज्य सरकारान कोंकणीचे उदरगतीखातीर वापरचे अशो मागण्यो करपी थाराव आसले.

## चवथें संमेलन

चवथें संमेलन ७ आनी ८ मे १९७७ अशे दोन दीस म्हापशां जालें. संमेलनाचें उद्‌घाटन नामनेचे हिंदी लेखक डॉ. नामवर सिंग हांणी केलें. फा. आंतोनियु पेरैर हे संमेलनाचे अध्यक्ष आनी येवकार अध्यक्ष श्री. पांडुरंग पु. शिरोडकार हे आसले. पयल्या दिसा उद्‌घाटनाचो दबाजो जालेउपरांत दुसऱ्या दिसा सकाळीं साहित्यीक चर्चेचो कार्यक्रम जालो. कोंकणी साहित्याचो दर्जो, कोंकणी नाटक, वाचप्यांच्यो अपेक्षा, समाज आनी साहित्य

साहित्याचो पांवडो, साहित्याचें प्रकाशन सारक्या प्रस्नाचेर हे चर्चेंत विचार जालो. सांजवेळची सभा समेलनाचे अध्यक्ष फा. पैरैर हांच्या येजमानपणासकल जाली. हे सभेन वेगवेगळ्यो थारावण्यो घेवन सोंपिल्ल्या बरोवप्यांक आर्गां ओंपलीं. तशेंच कोंकणीचो घटनेचे आठवे वळेरेंत आस्पाव करपाची मागणी केली. दुसरे एके थारावणेन संमेलनान साहित्य अकादेमीक परबीं दिलीं. शिक्षणाच्या मळार कोंकणी आकाशवाणीवयल्यो कोंकणी कार्यावळी, नाटकांवयलो करमणूक कर ह्या विशयांचेरूय संमेलनान थारावण्यो केल्यो.

## पांचवें तें धावें साहित्य संमेलन

### पांचवें संमेलन

अखिल भायतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचें पांचवें अधिवेशनं मडगांवां गोमंत विद्या निकेतन सभाघरांत १९७९ वर्साच्या मार्च म्हयन्यांत २, ३ आनी ४ तारखांक जाल्लें. तीन दिसांचे कार्यावळीन संपन्न जाल्लें तें पयलेंच संमेलन. ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले नामनेचे कोंकणीचे कोशकार श्री. श्रीपाद रघुनाथ देसाय. श्री. फेलिसियु कार्दोज हे येवकार अध्यक्ष आसले. श्री. पांडुरंग पै फोंडेकार हे कार्याध्यक्ष आसले. ह्या संमेलनाचें उद्धाटन नामनेचे हिंदी कवी श्री. भवानीप्रसाद मिश्र हांणी केल्लें.

पयल्या दिसा उक्तावण दबाजो जाले अप्रांत दुसऱ्या आनी तिसऱ्या दिसा वेगवेगळे परिसंवाद आनी चर्चा आनी साहित्य दर्शनाच्यो कार्यावळी जाल्यो. 'कोंकणी साहित्य - आयचें आनी फायचें' आनी 'भुरग्यांचें साहित्य-बरप आनी प्रचार' हे दान मुखेल परिसंवाद आसले. 'पुस्तकांची उजवाडावणी आनी विक्री' आनी 'कोंकणी साहित्य आनी बायलो'. 'साहित्यदर्शनाच्या कार्यक्रमांत तरणाटे तशेंच जाणटे हांच्या कथा-काव्य ललीत बरपांच्या वाचनाचो आस्पाव आशिल्लो, संमेलनाचे तीनय दीस रातच्यो संस्कृतीक कार्यावळी जाल्यो. तातूंत लोकगितां, लोकांनाच, नाटकुलीं, तियात्र हांचो समावेश आसलो.

ह्या संमेलनांत (पयलेच खेपे) कसल्योच थारावण्यो अशो करूंक नासल्यो. पूण 'कोंकणीक राष्ट्रीय संविधानाक धरून सगलेकडेन फावो ती हक्का मानाची सुवात मेळसर आमी कशेच स्वस्थ बसचे नात' असो उक्ते बसकेंत सगल्यांनी निर्धाराचो रासवळ सोपूत मात घेतिल्लो. संमेलनात गोंय तशेंच गोंयां भायल्या प्रतिनिधींनी व्हड संख्येन वांटो घेतिल्लो.

### सवें संमेलन

सवें कोंकणी लेखक संमेलन गोंयच्या दक्षिण वाठारांत काणकोणां १४ आनी १५ फेब्रुवारी १९८१ ह्या दिसांनी जालें. ह्या संमेलनाखातीर खासा मंटप उबारिल्लो आनी ताका कोंकणीचे म्हालगडे आनी कोंकणी साहित्य परिशदेचे संस्थापक अमर उगडासाचे शानभाग हांचें 'माधव मंजुनाथ शानभाग नगर' अशें नांव दिल्लें. ह्या संमेलनाचे स्वागताध्यक्ष आसले फादर आल्वारु रेनातु मेंदीश. कार्याध्यक्ष आसले श्री. रमेश कोमरपंत. संमेलनाचें अध्यक्षपद हेदो हांणी चलयिल्लें. संमेलनाक उद्घाटक म्हणून नामवंत पत्रकार श्री. माधव विठ्ठल कामत हे लाबिल्ले.

पयल्या दिसा उक्तावण दबाजो जाल्लो तातूंत कार्याध्यक्ष, येवकार अध्यक्ष, उद्घाटक, अध्यक्ष हांचीं उलोवपां, मानेस्तांचो सत्कार, नव्या पुस्तकांचें प्रकाशन आदी कार्यक्रम आसले. तेन्नाचे गोंयचे मंत्री श्री. शेख हसन हरूण हे उक्तावण दबाज्याक मुखेल सोयरे म्हणून आयिल्ले.

दुसऱ्या दिसा जे कार्यक्रम आसले तातूंत प्रतिनिधींची वळख, 'कोंकणी साहित्य : फाटल्या

अणभवांतल्यान फुडली आंखणी' हो परिसंवाद आनी चर्चा, 'साहित्य प्रसाराचो मार्ग' ही चर्चा, 'नवे कवी-नवे उमाळे' हें कवीसंमेलन हांचो आस्पाव आसलो. ह्याय संमेलनांत कसलेच थाराव अशे करूंक नात पूण उक्ते बसकेंत 'कोंकणीच्या सर्वांगीण विकासाखातीर आनी जैसापासत वावुरपाचो' सामुहीक निर्धार मात सोपुताच्या रुपान सगल्यांनी घेतिल्लो. संमेलनाचे उक्ते बसकेक मुखेल सोयरे म्हणून गोंय विधानसभेचे तेन्नाचे उपसभापती श्री. वैकुंठ देसाय हे उपस्थीत आसले. कोंकणीच्या सगल्या वाटारांतल्या प्रतिनिधींचे उपस्थीतींत संपन्न जाल्ल्या ह्या संमेलनांत, गोंयच्या दक्षिण वाटारांतल्या विशेश करून काणकोण म्हालांतल्या लोककलांचें दर्शन घडोवपी संस्कृतीक कार्यावळीचे दोनीय दीस आयोजन केल्लें.

## सातवें संमेलन

सातव्या कोंकणी लेखक संमेलनाची दोन दिसांची कार्यावळ १९८३ वर्सा फेब्रुवारीच्या १९ आनी २० ह्या दिसांनी सावड्डें-कुडचड्यार घडोवन हाडिल्ली. खासा मंटपांत जाल्ल्या ह्या संमेलनाच्या थळाक सोळाव्या शेंकड्यांत जावन गेल्ल्या गोंयकार कवीच्या उगडासाक 'कृष्णदास शामा नगर' हें नांव दिल्लें. ह्या संमेलनाचे येवकार अध्यक्ष आसले श्री. नागेश करमली. श्री. उल्हास बुयांव हे कार्याध्यक्ष आसले. नामनेचे कोंकणी पंडित, हल्याळचे फा. सिप्रियान सीए पै उर्फ स्वामी सुप्रीय हे ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले. तेन्नाची संसद सदस्य श्रीमती मागरिट आल्वा हांणी ह्या संमेलनाचें उद्घाटन केल्लें.

संमेलनाच्या पयल्या दिसा उद्घाटनाची कार्यावळ जालेउप्रांत दुसरो सबंद दीस हो संमेलनामुखार आशिल्ल्या वेगवेगळ्या तरांच्या वावरांचो दीस आसलो. हातूंत कोंकणी साहित्याचो विकास आनी 'कोंकणी भास आनी लोकजीण' हे दोन म्हत्वाचे परिसंवाद आनी चर्चा आसल्यो. गोंय तशेंच गोंयाभायरसून आयिल्ल्या प्रतिनिधींचो स्नेहमेळावो जाल्लो. कवी संमेलनाची कार्यावळ दोन वाट्यांनी जाल्ली. संस्कृतीक कार्यावळींमदीं संमेलनाचे पयले रातीं तरेकवार लोककलांचें दर्शन आनी दुसरे रातीं 'शबै शबै भौजनसमाज' ही नाटकाची कार्यावळ दवरिल्ली. हे आदल्या दोन संमेलनांनी थारावण्यांच्या कार्यक्रमांक कातर लायिल्ली. पूण ह्या संमेलनांत विशय नियामक समितीची बसका जावन कोंकणीच्या अर्दान कांय थारावण्योय मानून घेतल्यो. हातूंतल्यो म्हत्वाच्यो थारावण्यो म्हळ्यार, संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणीचो समावेश करपाची मागणी, भारतीय ज्ञानपीठ सारके संस्थेन पुरस्काराखातीर कोंकणीसारक्या भाशांतल्यान साहित्याचो विचार करपाची मागणी, गोंयची मुखेल राजभास कोंकणी करपाची मागणी तशेंच पणजी आकाशवाणी केंद्राचीं सगलीं निवेदनां कोंकणींतच जावचीं आनी दूरदर्शनाचेर कोकणी कार्यावळी वितरावच्यो अशो मागणी करपी थाराव जाल्ले.

## आठवें संमेलन

आठवें कोंकणी लेखक संमेलन अंत्रुजेंतल्या रामनाथी ह्या सैमसुंदर आनी श्रीरामनाथाच्या पवित्र स्थळांत ११ – १२ मे, १९८५ ह्या दिसांनी जालें. संमेलन सुवातेक 'दादा वैद्य नगर' अशें ह्या गोंयच्या व्हड कर्तुत्वी पुताचें नांव दिल्लें. कोंकणींतले नामनेचे नवलकथा आनी कादंबरीकार श्री. दामोदर मावजो हे ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले. येवकार समितीचे अध्यक्ष आसले साहित्यकार श्री. एन्. शिवदास, नामनेचे चित्रपट दिग्दर्शक आनी निर्माते श्री. रामानंद सागर हांणी ह्या संमेनलनाचें उक्तावण केल्लें. साहित्यकार आनी थळाव्या लोककलाकारांचो भोवमान ही ह्या उक्तावण

दबाज्यांतली एक विशेशताय आसली. ह्या संमेलनाच्या वावराचो दुसरो दीस चर्चा, परिसंवाद, कवी संमेलनां, कोंकणीभायल्या लेखकांची कार्यावळ आदी कार्यावळींनी आटापिल्लो. कवी संमेलनाचे दोन भाग केल्ले. कवियत्री संमेलन आनी कवी संमेलन. ते भायर तरणाट्यांचे बरपावळीची झलक होय एक वैशिष्ट्यपूर्ण कार्यक्रम आसलो. कोंकणी कथेचो नियाळ हो एक कार्यक्रम तशेंच परीसंवाद – चर्चेखातीर 'कोंकणी भास आनी बरपावळ – फुडाराची दिशा' हो विशय दवरिल्लो. हे चर्चेंत गोंय तशेंच गोंय भायल्यान आयिल्ल्या साहित्यकारांनी वांटो घेतिल्लो. ह्या परिसंवाद–चर्चेचे शिक्षण आनी बालसाहित्य, कोंकणी समाज आनी साहित्य तशेंच राजकी, समाजीक, संस्कृतीक जिवीत आनी कोंकणी बरपावळ अशे भाग केल्ले. कोंकणी भायल्या लेखकांचे कार्यावळींत पंजाबी, बंगाली, कन्नड, मराठी तशेंच गुजराती साहित्यकारांचीं उलोवपां जाल्लीं.

ह्या संमेलनाचे विशय नियामक समितीन त्या वेळार देशांत ज्यो हिंसाचाराच्यो घडण्यो घडिल्ल्यो ते संबंदांत खंत प्रगटावन ह्या संबंदांत लोकसाहित्यकारांनी राष्ट्रीय एकचाराच्यो संबंदांतलीं आपणाली लागणूक वळखून वावर करचो असो उलो मारपी थाराव केल्लो. हेर थारावांमदीं कोंकणी राजभाशेचो थाराव, दूरदर्शनाचेर कोंकणी कार्यावळी, शिक्षणीक मळार कोंकणीचे उपेग तशेंच संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणी आदी थारावण्यांचो आस्पाव आसलो. संमेलनाचे दोनूय दीस रातच्यो तरेकवार संगिताच्यो कार्यावळी जाल्ल्यो.

## णववें संमेलन

णववें कोंकणी लेखक संमेलन पुर्वील नामनेच्या भतग्राम वाटारांतल्या सांखळी गांवांत १६ आनी १७ माय, १९८७ ह्या दिसांनी जालें. संमेलन थळाक, कोंकणीचे प्राणाचार्य शणै गोंयबाब हांच्या पुण्य उगडासाक 'शणै गोंयबाब नगर' अशें नांव दिल्लें. कोंकणींतले नामनेचे कवी, नाटकार आनी पत्रकार, मंगळूरांत राबितो करून आशिल्ले सर्गेस्त चाफ्रा द कोश्त हे ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले. येवकार समितीचे अध्यक्ष आसले प्रा. अरूण रामचंद्र साखरदांडे. कार्याध्यक्ष आसले श्री. सदानंद काणेकार. संमेलनाचें उक्तावण मणिपूरचे संसद, शिक्षणीक जाणकार आनी लेखक प्रा. एम्. तोंबी सिंग हांचे हस्तुकीं जाल्लें. साहित्यीक तशेंच भाशीक आनी संस्कृतीक मळावयल्या थळाव्या व्यक्तींचो सत्कार, नव्या पुस्तकांचें प्रकाशन हांचो उक्तावण सुवाळ्यांत मुखेलपणान आस्पाव आसलो. संमेलनाच्या दुसऱ्या दिसा परिसंवाद आनी चर्चा हे कार्यक्रम आसले. 'एकविसाव्या शतमानाच्या संदर्भांत कोंकणी साहित्याचो विचार' ह्या परिसंवादाची येजमानकी श्री. रवींद्र केळकार हांणी चलयिल्ली. दुसऱ्या परिसंवादाचो विशय आसलो 'कोंकणी भास आनी निर्मणेचो वावर' आनी ताची येजमानकी श्री. पुंडलीक नायक हांणी चलयिल्ली. ह्या दोनीय परिसंवाद – चर्चांनी गोंय, महाराष्ट्र, केरळ, कर्नाटक तशेंच देशांतल्या हेर भागांतल्यान आयिल्ल्या लेखक प्रतिनिधींनी वांटो घेतिल्लो. कवी संमेलनाची कार्यावळ दोन वांट्यांनी जाल्ली. कार्यक्रम विशय नियामक समितींत वेगवेगळ्या थारावांचेर चर्चा जावन कांय थाराव मानून घेतिल्ले. तातूंत कोंकणीक राजभाशेचो मान मेळोवन दिवपाक निर्धारान लडो दिल्लेखातीर गोंयचे जनतेचें अभिनंदन केल्लें. हाचेभायर राजभास कायदो चालीक लावप, दूरदर्शन आकाशवाणीचेर कोंकणी कार्यावळी, शिक्षणीक मळार कोंकणीचो अदीक पद्दतशीर उपेग हे विशीं थाराव मानून घेतिल्ले. संमेलनाच्या पयल्या दिसा रातची, थळाव्या पंगडांनी सादर केल्लो लोककलांचें दर्शन दिवपी संस्कृतीक कार्यावळ

जाल्यार दुसऱ्या दिसा रातची माशेल ड्रॅमॅटीक असोसिएशनान सादर केल्लो अनिरुद्ध बीर हांच्या नाटकाचो कार्यक्रम जाल्लो.

## धावें संमेलन

धावें कोंकणी लेखक संमेलन संत सहिरोबा, भाऊ दाजी लाड, जीवबादादा केरकार हांच्या जल्म वाठारांत पेडण्यांत १७ आनी १८ फेब्रुवारी १९९० ह्या दिसांनी भरलें. पेडणेंचे नामनेचे कलाकार सर्गेस्त मुरारबा पेडणेकार हांच्या उगडासाक लागून वाटाराचें नांव 'मुरारबा पेडणेकार' अशें दिल्लें.

कोंकणी चळवळींतले म्हालगडे श्री. गुरुनाथबाब केळेकार संमेलनाचे अध्यक्ष जावन आसले. येवकार समितीच्यो अध्यक्षा, श्रीमती कमल पार्सेकार आनी कार्याध्यक्ष श्री. सुहास पार्सेकार जावन आशिल्ले. संमेलनाचे सरचिटणीस श्री. प्रकाश तळवणेकार आनी भांडारी श्री. तुकाराम म्हामल जाले. संमेलनाचें उद्घाटन फा. आन्तोनियु पेरैर हांचे हस्तुकीं जालें. ह्या संमेलनाक जैतवंत करचेखातीर डॉ. तानाजी हळर्णकार आनी श्री. नागेश करमली हांणी मोलादीक कामगिरी केल्या.

दोन दीस चलिल्या संमेलनांत परिसंवाद, कवी संमेलन आनी संस्कृतीक कार्यावळीचो आसपाव आसलो. पयल्या दिसा 'शबै शबै भौजनसमाज' ह्या नाटकाचो प्रयोग जालो. नवोदीत कवींच्या संमेलनाची येजमानकी कारवारचे प्रो. पुरुषोत्तम देसाय हांणी चलयली. ह्या संमेलनाक मंगळूरासावन पयलेच फावटीं चड प्रतिनिधी आयिल्ले.

विशय नियामक समितीन वेगवेगळ्या थारावांचेर चर्चा जावन कांय थाराव मानून घेतिल्ले. तातूंत– कोंकणी भाशेची संविधानाचे आठवे वळेरेंत आसपाव करचो, राजभास कायदो चालीक लावचो, शिक्षणीक धोरण तयार करचें मायभाशेंत पूर्व–प्राथमिक आनी प्राथमिक शिक्षण गोंयांत सुरू करचें. दूरदर्शन आनी आकाशवाणी गोंय राज्याक टीवी स्टुडिओ बेगोबेग दिवचो आनी कोंकणी भाशीक लोक गोंय तशेंच महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनी पातळ्ळ्यात. ह्या लोकांपासत आकाशवाणीचेर राष्ट्रीय वृत्तविभागाचो आसपाव करचो. राज्यभाशेच्या आंदोलनांतल्या वावुरप्यांचेर घाल्ल्यो केसी फाटीं घेवच्यो. गोंय राज्य आनी संस्कृतीक मंडळ स्थापन करचें. सिनेमा विकास महामंडळ स्थापन करचें. गोंय ग्रंथालय विधेयकावरवीं कोंकणी पुस्तकां, प्रकाशन, वाचनालयां हांकां सरकारी पालव मेळपाची खाशेली तरतूद करची. संवसारभर पातळिल्ल्या गोंयकारांचें संमेलन घडोवन हाडचें. कर्नाटकांत कोंकणी साहित्य अकादेमी स्थापची आदींचो आस्पाव आशिल्लो.

## इकरावें संमेलन

इकरावें संमेलन गोंयाभायर कारवारा घडोवन हाडपाचें थरलेउप्रांत, ताची जापसालदारकी कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय हे संस्थेन, हाचेमुखार अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेकडेन सोंपोवपाचें थारायलें. परिशदेन ही जापसालदारकी मानून घेतली आनी ते प्रमाण फुडलो वावर सुरू केलो.

कारवारच्या कोंकणी भाशा आनी संस्कृतीक केंद्रान इकरावें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन आयोजीत करपाची जापसालदारकी स्विकारली. फेब्रुवारी ८–९, १९९२ अशे दोन दीस संमेलनाची कार्यावळी चलली. कोंकणी परिशदेचे संस्थापक आनी म्हालगडे कोंकणी सेवक माधव मंजुनाथ शानभाग हांच्या मानाक संमेलन थळाक 'माधव मंजुनाथ शानभाग नगर' अशें नांव दिल्लें. श्रीमती आशा पालनकार ह्यो ह्या संमेलनाच्यो येवकार अध्यक्षा जाल्यार प्रा. पुरुषोत्तम देसाय हे कार्याध्यक्ष आसले. संमेलनाचे

अध्यक्ष आसले मंगळूरचे नामनेचे कोंकणी लेखक श्री. एडवीन जे एफ द सौझ. संमेलनाचें उक्तावण नामनेचे कन्नड साहित्यकार आनी ज्ञानपीठ पुरस्कार सन्मानीत डॉ. शिवराम कारंत हांणी केल्लें.

येवकार समितीच्या कारभारामदीं श्री. दीपक गांवकार हे प्रधान कार्यदर्शी आनी श्री. अनंत बसरूर हे कोषाध्यक्ष आसले.

दोन दीस चलिल्ल्या ह्या संमेलनांत उक्तावण सुवाळो, त्या सुवाळ्यांत मानेस्तांचो सत्कार, ते उप्रांत कवी संमेलन, तरेकवार संस्कृतीक कार्यक्रम, नाटक अशो पयल्या दिसाच्यो कार्यावळी आसल्यो. दुसऱ्या दिसा 'कोंकणी साहित्य आयच्या पेण्यार', 'कोंकणी चळवळीचो हावेस', 'कोंकणीचे उदरगतीक कोंकणी संस्थांचो हातभार आनी कोंकणी भाशेची तांक', 'कोंकणी साहित्याचे उदरगतींत तरणाट्यांचो वांटो', ह्या विशयांवयले परिसंवाद जाले. उकते बसकेंत कोंकणीच्या संबंदांत कांय थाराव मानून घेतले. तातूंत संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणीचो आस्पाव करपाची मागणी करपी थाराव मुखेल आसलो. हेर थारावांमदीं कोंकणी भाशीक भुरग्यांचें मुळावें शिकप कोंकणींत जावचें, गोंयांत राजभास कायदो चालीक लावचो, आकाशवाणी आनी दूरदर्शन कार्यावळींनी कोंकणी फावो तो वेळ आनी सुवात मेळची हांचो आस्पाव आसलो. उकते बसकेउप्रांत समारोप सुवाळो जालो. त्या वेळार तेन्नाचे गोंयचे खेळां मंत्री श्री. संजय बांदेकार आनी पद्मश्री श्री. वामन सरदेसाय हे मुखेल सोयरे आसले. ह्या सुवाळ्याउप्रांत कवी संमेलन आनी रातची तरेकवार सांस्कृतिक जाल्ली.

कोंकणी साहित्य संमेलना ही कोंकणीच्या साहित्यीक, भाशीक तशेंच संस्कृतीक मळावयलो एक अप्रूप असो वावर. ह्या संमेलनांवरवीं देशांतल्या वेगवेगळ्या भागांत रावन कोंकणी भाशेंतल्यान साहित्याची साधना करतल्यांक एकठांय येवन साहित्यीक तशेंच दर एका संबंदीत विशयाचेर विचारांचें आदान – प्रदान करपाची संद मेळटा. कोंकणी भाशीक आनी संस्कृतीक नदरेन अदीक संघटीत जावपाचे नदरेन जो वावर जाता तातूंत साहित्य संमेलनाच्या वावराक एक म्हत्वाची सुवात आसा.

# अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद

## आतांमेरेन जाल्लीं अधिवेशनां

| | | |
|---|---|---|
| **स्थापना आनी पयलें अधिवेशन** | : | **कारवार - ८ - ९ जुलै १९३९** |
| परिशदेचे संस्थापक आनी पयले येवकार अध्यक्ष | : | श्री. माधव मंजुनाथ (शणै) शानभाग |
| अध्यक्ष | : | श्री. विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू |
| **दुसरें अधिवेशन** | : | **उडुपी - ३१ डिसेंबर १९४०** |
| येवकार अध्यक्ष | : | डॉ. टी. एम. ए. पै |
| अध्यक्ष | : | श्री जेरोम साल्डाना |
| **तिसरें अधिवेशन** | : | **मुंबय - ४ - ५ एप्रिल १९४२** |
| येवकार अध्यक्ष | : | श्री. वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार उर्फ शणै गोंयबाब |
| अध्यक्ष | : | प्रो. आर्मांदो मिनेझीस |
| **चौथें अधिवेशन** | : | **मुंबय - १९४९** |
| येवकार अध्यक्ष | : | रेव्हरंड डॉ. एच्. ओ. मास्कारेन्हास |
| अध्यक्ष | : | डॉ. एम्. यु. मास्कारेन्हास |
| उद्घाटक | : | 'स्वामी आनंदाश्रमजी (चित्रापूर मठाचे स्वामी) |
| **पांचवें अधिवेशन** | : | **मुंबय - २३ - २४ फेब्रुवारी १९४२** |
| येवकार अध्यक्ष | : | श्री. बाळकृष्ण भगवंत बोरकार उर्फ बाकीबाब बोरकार |
| अध्यक्ष | : | डॉ. मारियान साल्दान्य |
| उद्घाटक | : | व्हालेरियान कार्डीनल ग्रासियश, मुंबयचे आर्चबिशप |
| **सवें अधिवेशन** | : | **मुंबय - २७ - २८ एप्रील १९५७** |
| येवकार अध्यक्ष | : | श्री. रामचंद्र नारायण नायक |
| अध्यक्ष | : | डॉ. सुमित्र मंगेश कत्रे |

## येवकार समिती

| | | |
|---|---|---|
| येवकार अध्यक्ष | : | श्री. तोमाझिन्य कार्दोझ |
| कार्याध्यक्ष | : | डॉ. तानाजी हळर्णकार |
| उपाध्यक्ष | : | रमेश वेळुस्कार<br>सदानंद काणेकार<br>श्याम वेरेंकार<br>फा. फ्रॅडी द कोश्त<br>कमलादेवी राव देशपांडे<br>रत्नपाल साळकार<br>जेस फेर्नांदीश<br>दिलीप बोरकार<br>अजीत केरकार<br>प्रा. पी. आर. नाडकर्णी<br>प्रा. सुभाष नायक<br>प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार |
| सरचिटणीस | : | भरत नायक |
| जोड चिटणीस | : | शशिकांत पुनाजी |
| भांडारी | : | शांताराम वर्दे वालावलीकार |
| सल्लागार | : | गुरुनाथ केळेकार, माणिकराव गावणेकार, पुंडलीक नायक, नागेश करमली, चंद्रकांत केणी, उदय भेंब्रो, प्रकाश पाडगांवकार, सुधा आमोणकार, फेलिसियु कार्दोझ, प्रभाकर तेंडुलकार, कमल पार्सेकार. |

## कार्यावळ आयोजन समिती

| | | |
|---|---|---|
| निमंत्रक | : | रमेश वेळुस्कार |
| वांगडी | : | श्याम वेरेंकार, हरिश्चंद्र नागवेंकार, तुकाराम शेट, जेस फेर्नांदीश, दुर्गादास गावडे, श्रीकांत पालसरकार, नंदकुमार कामत, दिलीप बोरकार. |

## संस्कृतीक कार्यावळ समिती

निमंत्रक : अनिल सावंत

वांगडी : अजीत केरकार, शिरीष लवंदो, कमलादेवी राव देशपांडे, उल्हास नायक, शकुंतला आरसेकार, विनायक गोवेंकार, गोरख मांद्रेंकार, पुर्णानंद च्यारी

## खाणजेवण समिती

निमंत्रक : रामचंद्र प्रभू

वांगडी : संतोष पाटकार, वरदा नार्वेकार, प्रमिला कामत, प्रकाश सांगोडकार, शर्मिला केळेकार

## माटव समिती

निमंत्रक : विठ्ठल वेर्णेकार

वांगडी : हरीश कामत, विनेश आर्लेकार, अँथनी वाझ, देवेंद्र प्रभुदेसाय, भगवान म्हामल

## आपवावुरपी समिती

निमंत्रक : विठू कळंगूटकार

वांगडी : सुरेश घाटवळ, जयेंद्र नार्वेकार, जयेश च्यारी, सतीश बुटे, सुरेंद्र गांवस

## प्रचार समिती

निमंत्रक : औदुंबर शिंदे

वांगडी : संजीव वेरेंकार, संदेश प्रभुदेसाय, बालाजी गावणेकार, सीताराम नायक, दामोदर घाणेकार

# अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलन
## फाटलीं इकरा संमेलनां : एक नदर

| | | |
|---|---|---|
| पयलें संमेलन | २३ जून १९६८<br>श्री दामोदर विद्याभुवन<br>मडगांव | येवकार अध्यक्ष : बाकीबाब बोरकर<br>अध्यक्ष : लक्ष्मणराव सरदेसाय |
| दुसरें संमेलन | १५–१६ नोव्हेंब्र १९६९<br>क्रिश्त रेय सभाघर<br>पणजी | येवकार अध्यक्ष : फा. मोरेन द सौझ<br>अध्यक्ष : श्री. रवींद्र केळेकार<br>उद्घाटक : गोपाळ आपा कामत |
| तिसरें संमेलन | १५–१६ फेब्रुवारी १९७५<br>श्री दामोदर विद्याभुवन<br>मडगांव | येवकार अध्यक्ष : एवाग्रियु जॉर्ज<br>अध्यक्ष : श्री. उदय भेंब्रे<br>उद्घाटक : श्री. देवराय बेंदुर |
| चवथें संमेलन | ७–८ मे १९७७<br>मोंसिन्योर दाल्गादु नगर<br>म्हापशें | येवकार अध्यक्ष : श्री. पां. पु. शिरोडकार<br>अध्यक्ष : फा. आन्तोनियु पैरेर<br>उद्घाटक : डॉ. नामवर सिंग |
| पांचवें संमेलन | २–३–४ मार्च १९७९<br>गोमंत विद्या निकेतन सभाघर<br>मडगांव | येवकार अध्यक्ष : श्री. फेलिसियु कार्दोज<br>अध्यक्ष : श्री. श्रीपाद रघुनाथ देसाय<br>उद्घाटक : श्री. भवानीप्रसाद मिश्र |
| सवें संमेलन | १४–१५ फेब्रुवारी १९८१<br>माधव मंजुनाथ शानभाग नगर<br>काणकोण | येवकार अध्यक्ष : फा आल्वारु रेनातु मेंदीश<br>अध्यक्ष : शांताराम हेदो<br>उद्घाटक : श्री. माधव विठ्ठल कामत |
| सातवें संमेलन | १९–२० फेब्रुवारी १९८३<br>कृष्णदास शामा नगर<br>सांवड्डें – कुडचडें | येवकार अध्यक्ष : श्री. नागेश करमली<br>अध्यक्ष : स्वामी सुप्रीय (फा. सी सी ए पै)<br>उद्घाटक : श्रीमती मागरिट आल्वा |
| आठवें संमेलन | ११–१२ मे १९८५<br>दादा वैद्य नगर<br>रामनाथी | येवकार अध्यक्ष : श्री. एन्. शिवदास<br>अध्यक्ष : श्री. दामोदर मावजो<br>उद्घाटक : श्री. रामानंद सागर |
| णववें संमेलन | १६–१७ मे १९८७<br>शणै गोंयबाब नगर<br>सांखळी | येवकार अध्यक्ष : प्रा. अरुण साखरदांडे<br>अध्यक्ष : चा फ्रा द कोश्त<br>उद्घाटक : प्रा. एम् तोंबी सिंग |
| धावें संमेलन | १७–१८ फेब्रुवारी १९९०<br>मुरारबा पेडणेकार नगर<br>पेडणें | येवकार अध्यक्ष : सौ. कमल पार्सेकार<br>अध्यक्ष : श्री. गुरुनाथ केळेकार<br>उद्घाटक : फा. आन्तोनियु पेरैर |
| इकरावें संमेलन | ८–९ फेब्रुवारी १९९२<br>माधव मुंजुनाथ शानभाग नगर<br>कारवार | येवकार अध्यक्ष : श्रीमती आशा पी पालनकार<br>अध्यक्ष : श्री एडविन् जे एफ द सौझ<br>उद्घाटक : डॉ. शिवराम कारंत |

## संमेलनाचे येवकार अध्यक्ष

# श्री. तोमाझिन्य कार्दोज



कोंकणी भास, साहित्य, संस्कृताय, संगीत आनी रंगमाची ह्या विंग-विंगड मळांचेर उर्बेवंतपणान वावुरपी श्री. तोमाझिन्य कार्दोज हे वेवसायान शिक्षक. सध्याक ते मयडें, बार्देसांतल्या सेंट झेवियर हाय स्कुलाचे हेडमास्टर म्हूण काम करतात. तांचो गांव कांदोळी.

तोमाझीनबाबांची कथा, कविता, गितां, तियात्र अशी तरेकवार बरपावळ पुस्तकरुपान उजवाडा आयल्या. ह्या पुस्तकांचो आंकडो सतरांवयर जाता. हातूंत १२ तियात्रांचीं पुस्तकां आसात. तियात्र नागरी लिपींत छापपी ते पयलेच कोंकणी बरोवपी.

तरणाटे पिरायेरच, १९५९ वर्सा तांणी तियात्र माचयेर पावल घालें. तियात्राक सगल्या तरांनी सादरीकरण, आशय, विशय हे नदरेन नवें रूप दिवपाचो ते एक सारको प्रयत्न करीत आसात. तियात्राचे बरपावळींत समाजीक विशय घेवन तें लोकांमुखार मांडपाचो तांचो वावर म्हळ्यार एक देखीवंत वावर. गोंय कला अकादमीच्या तियात्र महोत्सवांनी आपणालो कला-मोगी (कांदोळी) हो पंगड घेवन तांणी वांटो घेतला आनी ८ खेपे पयलीं, तीन खेपे दुसरीं आनी चार खेपे तिसरीं इनामां जोडल्यांत. १० खेपे बऱ्यांतल्या बऱ्या लेखनाचीं इनामां तांणी जोडल्यांत. तियात्राचो शताब्दी सुवाळो घडोवन हाडपाच्या वावरांतय तांणी म्हत्वाचें योगदान दिलां.

गोंयांत जावपी मांडो महोत्सवांत तांचो पंगड सातत्यान वांटो घेता. हातूंत १६ खेपांमदले १२ खेपे तांकां 'मांडो अवॉर्ड' आनी १० खेपे मांडो-धुलपद रचनेचो पुरस्कार फावो जाला.

तियात्रांतलीं गितां आनी मांडे धुलपदांच्यो तांणीं कॅसेटीय काडल्यात. आनी त्यो लोकप्रिय जाल्यात.

कोंकणी राजभास चळवळींत तांणी समर्पीतपणान वावर केला.

आकाशवाणी आनी दूरदर्शनाचेर तांचे नेमान कार्यक्रम जातात. नेमाळ्यांनीय तांचें बरोवप उजवाडा येत आसता.

समाजीक-राजकी मळारय तोमाझिन्यबाब देखदिणो वावर करीत आसात. आपणाल्या कांदोळी गांवचे सरपंच म्हूण ते फाटलीं १६/१७

वर्सां काम करतात. बार्देस गट विकास समिती आनी गोवा हेडमास्टर्स असोसिएशनाचे ते अध्यक्ष आसात. हाचेभायर, कोंकणी भाशा मंडळ, गोवा कोंकणी अकादेमी, अस्तंत विभागीय संस्कृतीक केंद्र, उदयपूर, गोंय माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक शिक्षण मंडळ ह्या संस्थांचे ते वांगडी आसात. खेळ तशेंच संस्कृतीक मळांचेर वावर करपी साबार संस्थांकडेन ते संबंदीत आसात.

कोंकणीच्या विविध मळांचेर तोमाझिन्यबाबान केल्ल्या वावराचो गौरव म्हणून, थॉमस स्टीफन्स कोंकणी केंद्रान फाटल्या वर्सा, नोव्हेंब्राचे तीन तारकेक तांकां प्रतिश्टेचो जेझुईत आन्तोनियु पेरैर कोंकणी पुरस्कार भेटोवन तांचो भोवमान केला.



## येवकार अध्यक्ष

# श्री. तोमाझिन्य कार्दोज हांचें उलोवप

बाराव्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचे मानादीक अध्यक्ष, उद्घाटक, भोवमानेस्त लेखक आनी म्हज्या मोगाळ भावांनो आनी भयणींनो,

हें बारावें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन गुंडू सिताराम आमोणकार नगरांत, म्हापशें शारांत भरता तें पळोवन खोस जाता. ह्या दोन दिसांच्या संमेलनाक येवकार समितीचे वतीन हांव तुमकां सगल्यांक मायेमोगाचो येवकार दितां आनी ह्या दोन दिसांनी जी भासाभास जातली, जे विचार उक्ते जातले आनी जे निर्णय घेतले ते कोंकणी भाशेच्या, साहित्याच्या आनी कोंकणी समाजाच्या बऱ्याचे जातले म्हूण आस बाळगितां.

बाराव्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमलेनाक हाजीर जावंक आमी सगले म्हापशें शारांत एकटावल्यात. म्हापशें बार्देश तालुक्याचें केंद्र, आनी हो वाटार एक चड म्हत्वाचो भाग जावन आसा. म्हत्वाचो भाग इतल्याच कारणाक लागून की ह्या बार्देश तालुक्यांत गोंयचो इतिहास आसा. गोंय गुलामींतल्यान स्वतंत्र करूंक स्वातंत्र्य सैनिकांचो त्याग आसा. हांगा अनेक धर्मांच्या लोकमदें एकवट आनी भावपण आसा आनी कोंकणी भाशेचे चळवळींत कोंकणीक नीत दिवचे खातीर झुजपी आनी त्याग करप कोंकणी समाज आसा.

हें म्हापशें शार आनी हो बार्देस तालुको शिक्षणीक मळार एक पर्जळटें नकेत्र आसा. खेळां मळार ह्या वाटारांतल्या खेळगड्यांनी गोंयांतूच न्हय तर बारती पंगडांत परयान खेळून देसाची सेवा केल्ली आसा. ह्या वाटारांत गोंयचे संस्कृतायेचो परमळ आसा. ह्या असल्या म्हत्वाच्या आनी सुंदर म्हापशें शारांत बारावें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन घडून येवन ह्या शाराक आनी बार्देस तालुक्याक अदीक म्हत्व येता आनी कोंकणीचे उदरगतीचे चळवळींत ह्या वाटाराचो सहभाग वाडटा अशें म्हाका दिसता.

आज कोंकणीचीं सगलीं सपनां साकार जाल्यांत म्हटल्यार फट जावंचेंना. आज आमकां कोंकणीखातीर मोर्चे काडपाची गरज उरूंक ना. झुजां झुजपाची गरज उरूंक ना. कोंकणी प्रजा एकवटान रावली म्हणूनच आमी कोंकणी भाशेक राजभास करूंक शकले आज आमच्यो सगल्यो मागण्यो आमी मेळोवन घेतल्यात. आनी ह्या सुसेगादपणांतल्यान आमकां आनीक एक इनाम मेळ्ळां. हें इनाम म्हटल्यार, जो एकवट आमचे मदें आसलो, जे समजिकायेन आनी सगल्या संकश्टांक फुडो केलो, ज्या मोगान आनी भावपणान कोंकणीचे चळवळींत त्याग करूंक आनी फुडाकार घेतलो, तो एकवट, ती समजिकाय, तो मोग आनी तें भावपण आज आमचेमदें दिसना, ही दुख्खाची घडणी जावन आसा.

ह्या दोन दिसांच्या संमलेनांत कोंकणी लोकांमदें कोंकणी लेखकांमदें आनी चड करून कोंकणीच्या साहित्यीक फुडाऱ्यांमदें एकवट आनी समजिकाय कशी काडची हाचेरूय चर्चा जावंची म्हूण म्हजी विनंती आसा.

आमचे कोंकणी लेखक आज चार भागांनी वांटलेले आसात. चार राज्यांनी शिंपडलेले आसात. महाराष्ट्र, कर्नाटक, केरळ आनी गोंय प्रांतांनी कोंकणीची उदरगत जाता. हाका लागून कन्नड, मलयालम, रोमन आनी देवनागरी लिपयांनी कोंकणीची बरपावळ उत्पन्न जाता. गोंय कोंकणीचें मूळपीळ म्हणून सगट मानून घेतात. देवनागरी ही कोंकणीची लिपी म्हूण सगल्यांचें मन जालां. अशें जाल्या कारणान कन्नड, मलयालम, रोमन आनी देवनागरी लिपयांनी बरयतल्या लेखकांमदें संबंद आसा काय कितें ? तांचे लागीं भासाभास करून तांकां एकामेकाक लागीं हाडपाचें कोणें पूण प्रयत्न केल्यात काय कितें ? हो एक मोटो 'सॅन्सिटीव' विशय जावन आसा. तरूय पूण ताचेर खोलायेन चर्चा करप आनी ही चर्चा वेगीनच करप खूब म्हत्वाचें जावन आसा. ना

तर, वेवेगळ्या लिपयांनी बरोवपी लेखकांमदले संबंदांचें दोर तुटूंक शकता आनी एक फावट तुटलेलें हें दोर परतून घडूंक कठीण जातलें.

फाटल्या पंदरा वर्सां सावन म्हजी एक विनंती आसली की कन्नड, मलयालम आनी रोमन लिपयांनी जी बरपावळ/पुस्तकां प्रगट जातात तातूंतल्या ऊंच दर्ज्याचीं कांय पुस्तकां देवनागरी लिपयेंत उतरावचीं म्हूण आस्वासनां जायतीं दिलीं, पूण करप्यांनी हो वावर केल्लो हांवें पळोवंक ना. फाटल्या पंदरा वर्सांक कन्नड, मलयालम आनी रोमन लिपयेंतलीं कितलीं पुस्तकां देवनागरींत उतरायल्यांत ? भोव थोडीं. हे खातीर कन्नड, मलयालम आनी रोमन लिपयांनी बरोवपी लेखकांचेर अनीत जाल्ली आसा. हेच खातीर तांचे भितर भेद-भाव दुस्मानकाय आनी द्वेस उत्पन्न जाता.

हें भेद-भाव दुस्मानकाय आनी द्वेस ना करपाचे आमचे प्रयत्न जावंकजाय. दुसऱ्या लिपयांनी प्रगट जातलीं पुस्तकां देवनागरींत छापून हाडूंक जाय. देवनागरी कोंकणीची लिपी म्हूण मानून घेवन कन्नड, मलयालम आनी रोमन लिपयांनी बरोवप्यांनी एक तरेचो त्याग केला म्हटल्यार फट जावचें ना. ते खातीर कन्नड, मलयालम आनी रोमन लिपयांतलें, साहित्य देवनागरी लिपयेंत उजवाडावचें देवनागरी वरवीं कोंकणीक फुडें व्हरप्यांचें कर्तव्य जावन आसा अशें म्हटल्यार फट जावचें ना.

हे खातीर कोंकणीची उदरगत निवळपणीं करचेपासत आमकां एकवटाचें व्हड गरज आसा. हो एकवट घडोवन हाडूंक सगल्यांनी सहकार दिवंक जाय. ह्या दोन दिसांच्या संमेलनांत हाचेर उजवाड पडटलो आनी सगल्यांमदें एकवटाचीं, सहकाराचीं पावलां पडटलीं म्हूण आस बाळगितां.

अखेरेक, आनीक एक फावट येवकार समितीचे वतीन तुमकां सगल्यांक हांव मायेमोगाचो येवकार दितां आनी ह्या दोन दिसांतलो तुमचो हांगाचो राबितो खोशयेभरीत जावंचो अशें मागतां.

तुमकां सगल्यांक देव बरें करूं !

# १२ वें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन

## संमेलनाचे कार्याध्यक्ष

# डॉ. तानाजी हळर्णकार हांचें उलोवप



सुशिक्षीत आनी सुसंस्कृत अशा ह्या म्हापशें शारांत, सरस्वतीचो आशिर्वाद लाबिल्ल्या सारस्वत विद्यालयाच्या ह्या सोबीत संकुलांत, ह्या गुंडू सिताराम आमोणकार नगरींत, अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या बाराव्या अधिवेशनाची सुरवात जाता. अशा ह्या सोबीत उक्तावणाच्या सुवाळ्यांत, संमेलनाचो कार्याध्यक्ष ह्या नात्यान, प्रस्तावीक करपाचें भाग्य म्हाका मेळटा हाची खूब खोस जाता.

गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ अशा चार राज्यांनी शिंपडून गेल्ल्या कोंकणी समाजाक एकठांय येवपाचो उलो, १९३९ ह्या वर्साक, कारवाराक, माधव मंजुनाथ शेणय शानभाग हांणी मारलो आनी अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद ह्या मध्यवर्ती व्यासपिठाची स्थापना केली. ते उप्रांत परिशदेच्या १९ संमेलनांनी कोंकणी भाशेचे उदरगती वांगडाच, कोंकणी मनशांच्या मनांचेंय संमेलन घडोवन हाडलें.

परिशदेच्या संमेलनाचो चडसो भर हो कोंकणी भास आनी कोंकणी समाज ह्या दोन गजालींचेर उरिल्ल्यान, कोंकणी साहित्य हो घटक मातसो कुशीक उरूंक लागलो. कोंकणीचे उदरगतींत कोंकणी साहित्याचें म्हत्व उणें म्हण न्हय तर संमेलनाच्या कार्याचे व्याप्तीची शीम म्हण थंय कोंकणी साहित्याच्या वांट्याक जाय तितको वेळ मेळना जालो. ही अडचण लक्षांत घेवन कोंकणी साहित्याक मध्यवर्ती म्हत्व दिवपी अशें अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलन हें आनीक एक वेगळें व्यासपीठ १९६८ वर्सा निर्माण करप जालें.

ह्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचीं पयलीं धा संमेलनां, गोंयच्या कोंकणी भाशा मंडळान गोंयांतच घडोवन हाडलीं. उप्रांत १९९२ वर्सा कारवारा जाल्लें इकरावें संमेलन, अ. भा. कोंकणी परिशदेवतीन जाल्लें आनी तेन्नाच्यान अ. भा. कोंकणी लेखक संमेलनाचें अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलन अशें नामांतर कलें.

चार राज्यांनी वांटून गेल्ल्या आनी चार लिपयांनी वेगळावन राविल्ल्या कोंकणी साहित्यिकांक एक समान व्यासपीठ दिवन, कोंकणी साहित्याचो भारतीय साहित्याच्या, आनी गरज पडली तर संवसारीक साहित्याच्या संदर्भांत, विचार करप हो ह्या संमेलनांचो उद्देश

आनी हावेस रावलो. आजय तो तसो आसा.

दोन दिसांच्या संमेलनांत कोंकणी साहित्याक संजीवनी मेळटली आनी कोंकणी साहित्यीक मळबाक हात लायतले अशी कोण अपेक्षा धरचोना. तशी ती धरुंकूय फावोना. पूण मळबाक हात तेंकोवपाखातीर जी एक तयारी लागता, आनी मार्गदर्शन अशा संमेलनांनी मेळटा ही निश्चीत गजाल. आतांमेरेन जाल्ल्या इकरा संमेलनांनी साहित्यिकांक, विशेश करून नवोदीत साहित्यिकांक अशें मार्गदर्शन मेळ्ळां. आनी ह्या मार्गदर्शनाचो तांकां साहित्य निर्मितींत फायदोय जाला. आयज सावन सुरू जावपी ह्या बाराव्या संमेलनांतय अशें मार्गदर्शन मेळटलें हातूंत म्हाका इल्लोय दुबाव ना.

कांय जाणांक संमेलन म्हणजे दोन दिसांचो उत्सव दिसता. हय. संमेलन हो एके तरेचो उत्सवूच. साहित्यीक उत्सव. अशा उत्सवाचेंय म्हण आपलें अशें विधायक कार्य आसता; योगदान आसता.

उत्सव दोन गजाली सादता. उत्सवांत लोक एकमेकांच्या लागीं येतात. देहान तशे मनान. उत्सवांत मनशाचे विकार पयस जातात आनी मनांत स्नेह निर्माण जाता. हो स्नेह आपलेपण निर्माण करता. असो हो स्नेह हें अशा संमेलनांचें एक व्हड योगदान.

अशा आपलेपणाची कोंकणीक आयचे घटकेक खूब गरज आसा अशें म्हाकां दिसता. एक काळ आसलो जेन्ना कोंकणी साहित्यिकांची एकजूट ही कोंकणी मनशांची एक व्हड जोड आसली; एक व्हड शक्त आसली. कोंकणीचे विरोधक लेगीत हे एकजुटीची तोखणाय करताले. ही एकजूट सद्याक मातशी धील पडल्या.

कोंकणी चळवळीच्या वेळार हे एकजुटीन कोंकणीक जैत जोडून दिलें. चळवळीचें पर्व सोंपून आतां विधायक रचनात्मक कार्याचें पर्व सुरू जालां. चळवळीच्या जैतांतल्यान निर्माण जाल्लें एक नवें आव्हान कोंकणी साहित्यिकांमुखार उबें रावलां. ह्या आव्हानाक तोंड दिवन, कोंकणीच्या गळ्यांत आनीक एका जैताची, विधायक रचनात्मक साहित्यीक वावराची, माळ कोंकणीच्या गळ्यांत घालपाखातीर धील जाल्ली एकजुटीची गांठ आंवुळपाक अशा संमेलनाची, अशा उत्सवाची गरज आसा.

सद्याक कोंकणी-मराठीच्या समन्वयाचो बरोच बोवाळ चलिल्लो दिसता. कोंकणी-मराठीचो समन्वय जावंचोच. पूण तेच पयलीं कोंकणी-कोंकणी मदीं समन्वय घडपाची तितकीच गरज दिसता. असो समन्वय घडोवपाक हें संमेलन जैतिवंत जातलें अशी आस्त धरुया. अशा समन्वयाची आमी अपेक्षा धरुया. तुमी सगल्यांनी सहकार्य दिवचें.

आमचे परीन, आमचे मर्यादिभितर प्रतिनिधींची आनी हेर निमंत्रितांची वेवस्था आमी केल्ली आसा. खंय, कसलीय गैरसोय जाली तर घरचेंच कार्य समजून आमकां समजून घेवचें अशी समेस्तांक विनंती करतां.

संमेलनाचो स्वागताअध्यक्ष तुमचें सगल्यांचें अधिकृत स्वागत करतलोच. हांव म्हजे परीन जमिल्ल्या सगल्यांक हुनहुनीत येवकार दिवन म्हजें हें प्रस्तावीक सोंपयतां.

देव बरें करूं.



## संमेलनाचे अध्यक्ष

# श्री. बी वी बाळिगा



जिवीतभर साहित्य, संस्कृताय आनी पत्रकारिता ह्या मळांचेर वावर करीत आयिल्ले श्री. बी वी बाळिगा हांचें पुराय नांव बंटवाळ वासुदेव बाळिगा. १३ ऑगस्ट, १९१८ ह्या दिसा मंगळूर शारांत तांचो जल्म जालो.

म्हाविद्यालयीन शिकप करता आसतनाच तांचो साहित्य, पत्रकारिता आनी नाट्यकला हांचेकडेन संबंद आयलो. श्री. बाळिगा हे कोंकणी वांगडाच कन्नड भाशेंतय बरोवपी लेखक. लेख, कविता, गितां, नाटकां अशें तरेकवार साहित्य तांणी रचलां. आजवेर तांणी कोंकणी तशेंच कन्नड भाशेंत धा परस अदीक नाटकां बरयल्यांत. कन्नड आनी कोंकणींत मेळून तांचीं विसांवयर पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. हातूंत स्वतंत्र लेखना बरोबर अणकारीत कृतींचोय आसपाव जाता.

भगवद्गीतेचो कोंकणी अणकार हो हातूंतलो एक म्हत्वाचो वावर.

पत्रकारितेच्या मळार तांणी 'नवभारत' ह्या कन्नड दैनिकाचे आनी 'प्रभात' ह्या कन्नड सातोळ्याचे पालवी संपादक म्हणून काम केलां. 'सारस्वत' ह्या कोंकणी सातोळ्याचे ते कांय वर्सां पालवी संपादक आशिल्ले. 'पंचकादायी' ह्या १९६७ वर्सा सुरू केल्ल्या नामनेच्या कोंकणी म्हयनाळ्याचे ते संस्थापक संपादक.

कोंकणी भाशा मंडळ, कर्नाटक, हाजे ते संस्थापक वांगडी; सरवेक सावन ताच्या कारभारी मंडळाचे सदस्य. श्री. बाळिगा हे आकाशवाणी तशेंच दूरदर्शनाच्या कार्यावळींनी नेमान वांटो घेतात. कर्नाटकांतल्या राज्य पांवड्यावयल्या दसरो महोत्सवांत त्रिभाशा कवी संमेलनांत श्री. बाळिगा हांणी कोंकणी कवी म्हणून वांटो घेतला. अखिल भारतीय कोंकणी परिशद केरळ कोंकणी अकादमी आनी डॉ टी एम ए पै फाउंडेशन तशेंच कन्नड साहित्य परिशदेन तांचे साहित्यीक आनी संस्कृतीक मळावयले सेवेचो भोवमान करून तांचो गौरव केला.

श्री. बाळिगा हांणी 'तपस्विनी' आनी 'जनमन' ह्या कोंकणी चलचित्रांनी भुमिका केल्यात आनी ह्या फिल्मांखातीर गितां रचल्यांत. पन्नास वर्सांपरस अदीक काळ तांणी एक कलाकार म्हणून कोंकणी तशेंच कन्नड रंगभुंयेक मोलादीक योगदान दिलां.

# बारावें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन

## संमेलनाचे अध्यक्ष

## श्री. बी वी बाळिगा हांचें उलोवप

### जावंया आमी कटिबद्द

कोकणीचें मूलपीठ गोंयच्या म्हापसें शहरांत भरिल्या बाराव्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य सम्मेलनाच्या अध्यक्षपीठाथावन म्हज्या मोगाच्या कोंकणी भावांक आनी भयण्यांक उद्देश करनु चार उतरां उलोवच्याक म्हाका भोव खोस भोगता.

कोंकणी बरोवप्यांक कोंकणी साहित्याच्या वावराखातीर एकठांय हाडपाक कोंकणी लेखकांचे परिशदेची कल्पना फुडें आयली 'आनी कोंकणी लेखक परिशद' नांवाखात्या तिच्यो दोन बसका जाल्यो. तिसरे खेपेच्यान 'परिशद' ह्या नावांत बदल करून 'अखिल भारतीय कोंकणी लेखक सम्मेलन' म्हणून तें जांवक लागलें. पयलें सम्मेलन १९६८ वर्सा मडगांव चलून उपरांत णव सम्मेलनां गोंयच्या वेग-वेगळ्याकडे जालीं. कोंकणी साहित्य प्रपंचाचे महामहिम नामनेचे साहिती भोवमानेस्त लक्ष्मणराव सरदेसाय, रवींद्र केळेकार, उदय भेंब्रो, शांताराम हेदे, स्वामि सुप्रिय, दामोदर मावजो, चाफ्र द कोश्त, गुरुनाथ केळेकार हाणी शोभायमान केल्लें पवित्र अध्यक्ष पीठ. हें अकरावें सम्मेलन प्रथम गोंयचे भायर कारवारांत १९९२ फेब्रवरी ८ आनी ९ तारखेक भरलें. कर्नाटकाचो फामाद कोंकणी साहिती पंचवीस कादंबरी रचयितो भोवमानेस्त एडवीन जे एफ डिसोजा अध्यक्षपणारी तें चल्लें.

भोव पवित्र आनी महत्वाच्या ह्या स्थानाक एक यःकश्चित सामान्य व्यक्तीक कित्याक चुनाव केलो हें म्हाका समजना. प्रायेन हांव होड आसूंक पुरो. पुण साहित्याच्या मळारी ह्या फुडेंच्या अध्यक्षांक तुलन केल्यारी हांव भोव ल्हान मनीस. प्रतिभेनय ल्हानांत ल्हान म्हणतना हो गौरव व्यक्तिश : म्हाका दिल्लो न्हय. हांवें केल्ल्या त्रेपन वरसांच्या दीर्घकालाच्या मांयभाशेच्या सेवेक मेळ्ळो मान म्हणु हांव समजतां. जीवनाच्या संध्याकालारी म्हाका हें स्थान दिल्लेबद्दल म्हज्या सर्व हितैषीक काळजासावन उपकार बावुडतां.

### कोंकणीचें उगम

कोंकणी एक प्राचीन इंडो आर्यन भास जावन आसा. अगणित वरसांफुळ्या वेदकालायाकुनु त्या भाशेक तिचोच जावन आसचो एक इतिहास आसा. इतिहासकारानी सांगिल्ले वरी कोंकणी प्राकृत भाशेकसावन अुदय जाल्ली अेक भास आनी ह्यो प्राकृत भासो भारी पुरातन मुळांतसावन अुत्पन्न जाल्ल्यो आसात. कोंकणी हिंदुस्थानाच्या पुरोगानी भाशेंत एक म्हणचे पुरावे आसात आनी ही आर्यन प्राकृत तंडाक सस्त मेळ्ळेली भास जावन आसा. म्हणताना ती गुजराथी आनी मराठी भाशेकूय पूर्वीची आनी त्यो भासो तिच्यो भयण्यो म्हणटात. उपरांत उरलेल्यो भासो म्हळ्यारर सिंधी, बंगाली, काश्मीरी आनी हिंदुस्थानी.

डॉ. राम मनोहर लोहिया सांगता : ''निस्संदेह जावन कोंकणी भारत उपखंडाची अंत्यंत मधुर आनी सुंदर भास''. .

कोंकणीचो उगम कसो जालो, हे कोंकणी भाशेक 'कोंकणी' म्हण नांव कशें आयलें म्हळ्यार इतिहासीक आनी पौराणिक काणयो अशो आसात. ''साधारण शकपूर्वी चौथ्या शतमानांत

आर्य वर्गाचो एक जनसमुदाय तांगेले वैदिक धर्माचो प्रचार करचे उद्देशान सारस्वत ब्राह्मणाल्या नतृत्वारी सौराष्ट्र देशांतसून येवन गोंयांत वसले. गोंयांत रेवतिद्विप म्हण नांव दिलें. मागीर ते गोंयासून सगळ्या कोंकणी तिराच्या प्रदेशांत पसरले. ते एक प्राकृत भास उलयतले. तांगेल्यांत थोडेजाण अरब देशाकूय गेलेल्या कालांतरांरी ताणीं उलोवंची ती प्राकृत भास रुपांतर जातां जातां आमी आज उलोवंच्या रुपांत येवन पावली. ती भास सगळ्या कोंकण तिरार प्रचलित आसा देखून तिका कोंकणी म्हुण नांव आयलें. प्राकृत कोंकण किनारी वसून आसच्या अंधिकांश हिंदूजनाली, शकच्या सातव्या शतमानान अरबांत बाटून जातकच येवन भटकळांत वसिल्ल्या नवायत जनाली आनी पुर्तगिजानी गोंय धरतकूच हिंदूमदल्यान बाटिल्ल्या क्रिस्तांवजानांली मायभास जावन आसा. हो एतिहासिक विषय अुल्लेख केला सुप्रसिध्द कोंकणी भाशा संशोधक दिवंगत बस्ती पुंडलीक शणैन. कोंकणी मत्तु कन्नड भाषेगळ तुलनात्मक ''विमरशे'' म्हळ्ळो कन्नड बृहत ग्रंथ बरयिल्लो लेखक होच.

अनेक पोराणिक काणयो अश्यो आसात. रामायण कालांतसावन कोंकणी अस्तित्वांत आशिल्ली म्हळेल्याक साबार दाखले मेळटात. श्री रामाल्या पट्टाभिशेकाक कोंकण देशाचो रायु राजा सुधाकर कोंकण वर्मान कोंकणाचे सप्तनदी तिर्थ पेटयिलो अुल्लेख विश्वामित्र प्रोक्त श्रीमत अद्यात्म रामायणांत आसा.

जमदग्नी ऋषिली बायल रेणुकादेवीक कुकणादेवीं म्हणुयि नांव आसिल्लें. तिगेलो पुत परशुराम कुंकणादेवीलो पुत जाल्यान ताका 'कोंकणो' म्हणटाले. कोंकणीचो आद्यप्रवर्तक तोच म्हणटात. अतिप्राचीन जाल्यान कोंकणी ''देवभाषा'' म्हळ्यार ''देवांली भास'' अशे आपयतालींत असो उल्लेखय आता. कोंकण राज्य पश्चिम करावळीचेर सिंधुयावन चेर(कोचि) पर्यंत आशिल्लें.

## भाशेक राष्ट्रीय मान्यता

कोंकणी लोकालें दीर्घ कालाचें सोपन साकार जावन भारत संविधानाच्या आठव्या परिशिष्टांत कोंकणी भाशेक स्थान मेळ्ळ्या उपरान्त चलचें हे पयलें संम्मेलन जाल्यान हाका विशेष महत्व आसा.

कोंकणीच्या उदरगतीच्या दिशेन भाशेक केंद्र साहित्य आकादमीची मान्यताय घेवचे चळवळीचो अध्याय १९७५ त, ती मान्यताय दृढिकरण जावच्यांत परिसमाप्त जाल्या. ताजे उपरान्त भाशेक राज्यांग घटनेच्या आठवे वळेरींत स्थान मेळतलें म्हळ्ळी निरिक्षा, निरिक्षाच जावन अुरली, सत्रा वरस गळ्ळी दीग करून राकका पडलें. १९९२ ऑगश्ट २० तारखेक कोंकणीक राष्ट्रीय स्थानमान मेळची अमृत घडी उदेली. हांगाच चळवळीचो दुसरो अध्यायु अंत्य जालो.

भारत संविधानाचे आठवे परिशिष्टांत कोंकणी मेळोवन घेतिल्ले निमित्य भाशेक राष्ट्रीय मान्याताय मेळून ती घनस्त जाल्यामात्र न्हय तिका बहुतेक सवलतय मेळटा. ती खंयचे म्हळ्ळें आमी जाणा जावचें बरे.

१. आठवे परिशिष्टांत मेळेल्यो सर्व भासो राष्ट्रीय भासो म्हणून परिगणन जातात.
२. रिझर्व ब्यांकान छापच्या करेन्सी नोटार अक्षरांनी नमूद करचें 'अमूक इत्तुली रुपय' म्हळ्ळे कोंकणीतय छापचे पडटलें.
३. दूरदर्शनान विशेश संदर्भारि व्यवस्था करच्या विचार गोष्टी, कविगोष्टींत कोंकणीकय स्थान मेळता.
४. स्वातंत्र्योत्सव, प्रजाप्रभुत्वोत्सव असल्या विशेश उत्सवा कालारि आकाशवाणीन व्यवस्था करच्या कविसम्मेलनांत कोंकणीकय अवकाश मेळटा.
५. भाषा निपुणता अवश्य म्हुण दिसले कडेन युनियन पब्लीक सर्विस कमिशनान व्यवस्था

करच्या पब्लिक परिक्षेंतु (Tests) कोंकणीकयी स्थान मेळटा. प्रादेशिक भाशेंत भाशांतर करचे एक पेपर आसा तांतूंत कोंकणीकय मेळयतले.

६. सरकारी प्रकटणो, पत्रकां (Circulars) कोंकणीनय भाशांतर करतले.

७. सरकार प्रशस्ती या पुरस्कार दिताना कोंकणी भासय मेळोवन घेतात.

८. केंद्र सरकार भाशेचे अभिवृध्दीखातीर एक बोर्ड रचन करतले. आनी तांतूं चारियी राज्यांक प्रतिनिध्य निरीक्षण करयेंत. कोंकणी भास महाराष्ट्र, गोवा, कर्नाटक आनी केरळ ह्या चारि राज्यांत उलयतात. कोंकणी जनामदले कर्नाटकांत ४१ % लोक कोंकणी उलयतले आसात.

९. भारत सरकारान विदेशांत व्यवस्था करच्या सांस्कृतिक उत्सवांत कोंकणी कलाकारांकयी भाग घेवच्याक अवकाश मेळतलो.

१०. नेशनल बुक ट्रस्टान प्रकट करच्या पुस्तकांत कोंकणीकयी मेळोवन घेतले आनी हेर भाशेंत भाशांतर करूंक कोंकणी पुस्तकयी स्वीकार करतले.

११. केंद्र प्रचार संस्था कोंकणीनय प्रचार करतली.

१२. विश्वविद्यालयांत कोंकणीकयी पीठ (Chair) स्थापन जातलें.

१३. शाळेंत कोंकणी शिकोवच्याक पाठय पुस्तकां, हस्तप्रतिची प्रकरणां, भाशा संशोधना केंद्र, अर्थकोश हांतुं चारयी राज्यांत उलोवचे कोंकणीक स्थान मेळटलें. विश्वकोश, इत्यादि उजवाडा हाडूंक सरकारा कडच्यान सहाय मेळतलो

१४. युनिवर्सिटी ग्रांट कमीशन अभिवृध्दीखातीर कोंकणी भासयी मेळोवन घेतली.

१५. शिक्षण सचिवलय मानव संपन्मूल्य इलाख्या कडच्यान लेखकांक मेळच्या पुस्तक हस्तप्रती (manuscript) कोंकणी अर्ह जाता.

१६. राज्यांत राज्यभास सोडून हेर भासांक अल्पसंख्याक भासो म्हणतात. कर्नाटकांत १०% पेक्षा अधिक कोंकणी अुलोवच्या प्रदेशांक स्थळीय प्रदेश म्हणून प्रकट करनु सरकार आपली सर्कुलर आनी प्रकटण्यो अल्पसंस्याक भोशेंनयी जाहीर करतले आनी उद्योगाक [illegible] मेळटली. पब्लिक सर्विस कमशिनांत एकल्याक नेमक करत. हाका सर्वभाशेन मेळका जालेली अर्हता ती आठव्या परिक्षिष्टांन मेळनु आसूका जालेली. कोंकणीक कर्नाटकांत केरळांतल्या पेक्षा अधिक उज्जाल भविष्य आसतलें.

१७. भाशा अल्पसंख्यांक रक्षण दिवचेखातीर कर्नाटक सरकारान जिल्हा या राज्यपातळीचेर रचन करच्या सलहामंडळीक आनी समिती अर्हता आधारान कोंकणी अुलयतल्यांक नेमक करचे पडटले.

१८. आठवे वळेरींत मेळेले भाशेंचे अभिवृध्दीबद्दल आसचे योजनेंत केंद्रान कोंकणीकयी एक भास जावन मेळोवका पडता.

१९. स्नातकोत्तर शिक्षणांत कोंकणी एक विशय करतले आनी विश्वविद्यालयांत एम. ए. शिकोवंच्याक एक शिक्षकाले नेमकाखातीर केंद्र सरकारचे ग्रांट निरीक्षण करयेत.

२०. भाशा अल्पसंख्यांक म्हणून परिगणन जालेल्या प्रति राज्यांत अकादमी रचनेक ग्रांट मेळटलें. प्रस्तुत कर्नाटकांत कोंकणी अल्पसंख्यांक भास म्हणून परिगणन जाता.

कोंकणीक साहित्य अकादमी मान्यता तशेंच संविधानाच्या आठवे परिशिष्टात कोंकणी मेळोवचे हें दोनीय अध्याय आज सोपले हें पयलीच सांगलां. आतां तिसरो अध्याय आरंभ जाला. ह्या अध्यायाकालारी कोंकणी सुपुष्ट करनु तिका राष्ट्रीय मान्यता मेळिल्या अठरा भाशेंच्या अग्रस्थानाक पावोवची होडी जवाबदारी कोंकणीचे सर्व सुपुत्र – सुपुत्रियांच्या खांद्यार पडल्या. ती

संभाळून व्हरूंक आमी जाती–पाती पंथ–पंगड, मत–धर्म, उच्च–नीच, भेद विसोर्नु एकटांय जावचे अवश्य आसा. आमी गोंयचे, आमी महाराष्ट्राचे, आमी कर्नाटकाचे, आमी केरळचे आणि दक्षिण कन्नडाचे आमी उत्तर कन्नडाचे म्हणु प्रादेशिक आनी जिल्ह्या (District) सीमाभेद दूर दवरून, आमी सर्व कोंकणी, कोंकणी मातेचे संतान म्हळ्ळी विशाल मनोभावना सर्वत्र प्रचार करुंया. तेन्ना भासयी पुष्ट जावन सर्वव्यापि जातली. संघठित वावराक मात् अंतिम जय खचित !

साहित्य, संस्कृती आनी संशोधन ह्या तीन स्तरारी भाशेची अभिवृध्दी शरवेगारि चलूंक जाय. हातूंत एक एकूच विशय परिशीलन करुया.

## साहित्य

मोटवी कथा, कादंबरी, कवन काव्य ह्या मळारि महाराष्ट्र, गोंय, कर्नाटक आनी केरळ ह्या चारियी राज्यांत वेगवेगळे लिपीन जायते साहित्य रचन जाल्लें आसा. प्रबंध, विमर्शा, विज्ञान, खगोलशास्त्र, भूगोल, चरित्र, सस्यशास्त्र, प्राणिशास्त्र, कानून – न्यायशास्त्र, ज्योतिष्य, आरोग्य शास्त्र ह्या विविध गंभीर विषयांचेरयी कोंकणी साहित्य सृष्टी जावका. कोंकणीत स्नातकोत्तर (Post-graduation) जाय आसलेली पाठ्यपुस्तकां तयार जावका. एदोळुतांय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार घेवचो कोंकणी साहित्यिकांलो अंतिम उद्देश आसलो आनी मुखारि ज्ञानपीठ प्रशस्ती पर्यंत तांगेली दृष्टी मुखार सरन नोबेल पुरस्कार घेवका म्हळ्ळी तांक तांच्यांत येवंका. के के बिरला प्रतिष्ठानाचो 'सरस्वती सम्मान' जिकचो हावेस उत्पन्न जावका. हाका साहित्याचो सर्वांगीण विकास जावन साहित्याचो दर्जो ऊंच वाडची गरज आसा. कोंकणीचो प्रभाव विशेष आसच्या हर एक राज्यांत विशेष रुपाचीं साहित्य शिबिरां त्या त्या वेळार व्यवस्था करनु प्रतिभावंत कोण म्हळ्ळेले समजून घेवन तांग–तांगेल्या अभिरूचीगनुसार' वेगवेगळ्या विषयाचेर उच्च दर्जाचे साहित्य रचनेक तांकां विशेश रितीन प्रोत्साह दिवंका. हाजेन आज न्हयतरी आनी एक धा वरसांनी पुण निरीखित फळ मेळतलेंच. विशेष प्रमाणारी नाना मुख कोंकणीचे शब्दभांडार वाडचे अवश्य आसा. चारियी राज्यांत प्रचारांत आसचे सर्वशब्द मेळोवन नवो शब्दकोश या अर्थकोश तयार करका पडतलो. हें काम नेटान, मोटायेन चलका. देशाच्या अभिवृध्दीक केंद्र सरकारान घालनु घेतिल्या पंचवार्षिक येवजणेप्रमाणे व्यवस्थित रितीर सतत हो वाव्र मुखारि सरका.

## संस्कृती

साहित्याबद्दल कितें जावका ते सांगून जालें. आतां संस्कृती विशयांत थोडे चिंतन करुया. संस्कृती जावन आसा मूळ. आयच्या सुधारिल्ल्या जनांगाचें मानवकुलान्च्यो सर्व कला–विज्ञान, संस्कृती सुधारून व्हरता. संस्कृती नातलेले जनांगां नात. हरप्पा संस्कृती विशिष्ट आनी मोलादीक जावन आसा. आप–आपल्या वर्गांत, विविध संस्कृत्यो जो वेगवेगळ्या थारन आजि जिवाळ उरल्यात, फुलतात आनी वाडतात आनी त्या कारणान आज संसार उरला. मुखारसून वता आनी सोबीत थरान आपल्यो गुंवडो काडता.
आमची कोंकणी संस्कृती एक सरळ संस्कृती भोव पोरनी तरी तरनी आनी फुलती जिवाळ आनी बळिष्ट, अति सुंदर आनी मधुर संस्कृती. ना – ना तरेच्या कष्ट – संकष्टांत घुसपडली तरी तिच्या भक्तांच्या उत्साहान राष्ट्राच्या सासायेन आज बळिष्ट मेटां काडता म्हळ्ळी अभिमानाची गजाल जावन आसा.

संगीत, नाटक, कला, लोकवेद, खाण, न्हेसण, रीति – रिवाज हीं सर्व प्रकार संस्कृतीच्या आश्रयांत येतात. कोंकणीच्या संस्कृतींत हरप्पा प्रकारांक एकेक म्हत्व आसा. ती उरोनु अभिवृद्धी करचे दिशेन फाटी वाव्र चलला. आत्तांयी चलून आसा. थोडे वाव्र केल्या मनाशांचे उल्लेख करची गरज आसा म्हुण दिसता. संगीत क्षेत्रांत –

कर्नाटकांत विल्फी रेबिंबस, आनी तांचो पंगड, मांड; सोभाणाचो गुर्कार एरिक ओझारियो आनी तांचो पंगड, कोयर मेस्त्री बेनेट पिंटो आनी तांचो पंगड, मेल्वील पेरीस आनी तांचो पंगड गोंयांत उल्हास बुयांव आनी तांचो पंगड, केरळांत प्रशेनसेन मल्ल्या, महाराष्ट्रांत हेनरी सोज आनी पंगड हान्नी केल्लो वाव्र सामान्य न्हय. नाटकक्षेत्रांत गोंयचो 'शबै शबै भोवजन समाज' नाटक रचयितो पुंडलीक नारायण नायकबाब अखिल भारत पातळीचेर चलिल्ल्या आकाशवाणी नाटक स्पर्धेत सर्वभाशा नाटकांत कोंकणीक एक फावटी न्हय. तीन फावटी अग्रस्थान जोडिल्लो फायाद एकमात्र नाटककार जावन आसा. लोकवेद क्षेत्रांत हळियाळच्या स्वामी सुप्रियाकं केल्ल्यो वावर असाधारण आसा. रत्नागिरीथावन कोच्चीपर्यंत शिंपडून आसल्या कोंकणी संस्कृतीची विविधता, गिरेस्तकाय, व्हडवीक आनी अळवुनु वच्चा फेस्तां सांतेचो वैभव संसाराक पाचारच्या इराधान कोंकणी दायजाचो राकणो मांड सोभाण संस्थान मंगळूरांत व्यवस्था केलेले एकवीस दिवसाचे पयलें अखिल भारत कोंकणी संस्कृती सांत आनी प्रदर्शन सामान्य कार्यवे ? नाटक प्रदर्शन मुंबयचे त्रिवेणी कलासंगम, मंगळूरची कोंकणी नाटक सभा हांगेलो श्रम, प्रशंसनीय. गोंयांत तिनशी साठयी काळयि प्रदर्शन दिवचे मैक मेहता – कार्लोस हांचो तियात्र चळवळु कोंकणी संस्कृतीकच तिलकप्राय ! चौदा संप्रदायांच्या चौदा कोंकणी पंगडानी जानेवारी म्हैन्यांत कुंदापुरांत 'कोंकणी वैभव' नांवाचें प्रदर्शन केलेलें अक्षय कोंकणी जनपद कलेंचे विश्वरूप अद्भुत ! ह्या वैविध्यमय संस्कृतीची सुधारण आनी क्रोढीकरणाचे काम आतां चलका.

## संशोधन

साहित्य, संस्कृती ह्या क्षेत्रांत कसली सुधारणा जावका म्हळ्ळें हांवें संक्षिप्त हांवें निरूपण केल्लें. ह्या दोनी क्षेत्रांत जावचेपेक्षा चडकाम संशोधना क्षेत्रांत जावंची अगत्य आसा. साहित्य – संस्कृती ह्या उभय विशयांची संशोधन गुंडायेन जावंका संशोधनाचें काम करचे संस्थां प्रकृत हाताबोटानी मेजचे तितले. गोंयांत थॉमस स्टिफन कोंकणी केंद्र, कर्नाटकांत मंगळूरांत संत अलोशियस कालेजचे कोंकणी अध्ययन केंद्र, मणिपाल कोंकणी रिसर्च सेंटर, केरळांत प्रो. आर. के. राव हांगेले कोंकणी इनस्टिट्यूट ह्यो संस्था संशोधनाचे काम करताना तातूंत गोंयचें थॉमस स्टीवन्स कोंकणी केंद्रा कडच्यान मात्र संशोधनाचो वावर व्यवस्थित रितीन सतत जावन चलता. भाशेक आठवे वळेरीत आसपाव जाल्यान राष्ट्रीय स्थानमान मेळ्ळे दृष्टिरि कोंकणीचे सर्वप्रकाराचे संशोधन कोंकणी उलोवंचो लोकु अत्याधीक आसच्या चारियी राज्यांत चलचें अवश्य आसा म्हणताना संशोधना केंद्र अधिक संख्येन उजवाडाक येवकात. आनी सर्व केंद्रांत संशोधनाचे काम बारायी म्हयने व्यवस्थीत रितीन चलचे तशें जावका संशोधनेंत आसक्ती आनी अभिरूची आसुंच्यो म्हालगड्यांक सोदून काडून तांगेलें अनुभवी मार्गदर्शन घेवन उर्बेन तें काम चलशि प्रयत्न करकात.

## लिपी खंची वापरका ?

विद्यासंस्थेंत माध्यम जावन कोंकणी शिकोवची व्यवस्था जावका म्हणु सर्वत्र आवाज आयकूं येता. कोंकणींत हें पुरा करूंक सिलेबस या पाठ्यसूची जाय मू ? ताका पुस्तकां खंय ? उन्नत मट्टाचि ग्रंथ खंय ? मासिक पत्रां खंय ? विज्ञान लेखन खंय ? हे प्रश्न सहज उबजतात. व्होयी, हांतु आमी संपन्न आसात म्हणु आमी हरड्यार मारनु घेवचेवरी ना. धा हजारांपेक्षा चड पुस्तकां आसात. व्याकरण, शब्दकोश पुराय आसात; नेमाळींय आसात. ही वेगवेगळ्या लिपियेन येतात. प्रादेशिक प्रभावान येतात. 'म्हाका देवनागरी येना' म्हणु माथ्यावेल्यान पांगरून घेवन कन्नड आनी रोमन लिपियेची स्ट्रेचर्स घेवनु आमगेलो लोकु अपंगुळ राबला. हो एक व्यर्थ विलाप म्हळ्यारि चूक कसली ? राष्ट्रीय भास म्हुण हिंदीक मान्यता मेळनु वर्सां चाळीस

जाल्यांत. धावी पर्यंत शिकिल्ले आमगेले तरनाटे शाळेंत देवनागरी शिकल्यात आसतले. तीच देवनागरी लिपी कोंकणीक वापरूंक सांगल्यार ती तांकां कळनाशी राबतली ? राष्ट्रीकृत केनरा बँक, सिंडिकेट बेंक, कार्पोरेशन बेंक आनी हेर आर्थिक संस्थांत बहुतेक कोंकणी लोकु नोकरीर आसात. त्या संस्थांनी प्रसिद्ध करची गृहपत्रां Home Magazines घेवन पळेयात. हिंदी विभागांत कितले कोंकणी मनशान बरयिल्लीं कथा–कवन, लेखन वाचूंक मेळतात. ती आसात हिंदीन आनी नागरी लिपियेंत. तांच्यात प्रतिभा ना वे ? बरोवंच्याक नागरी लिपी कळना वे ?

आमकां कन्नडची पुरो. कन्नड लिपियेंत बरयिल्ल्या कोंकणी साहित्याक मान्यता जाय, आमी नागरी वापरचे ना अशे हठ करून कोणी मुखार वतात तरी तान्नी कोंकणीच्या उज्वल भविष्याक अडखळ हाडतात म्हळ्यार चूक जावंची ना. आपणांक एक द्वीपांत बसोवन हेर प्रांतांतल्या लोकांकडेन संबंध तुटोवन, वेगळे कडच्यान जावंचे परिणाम पळोवंक दोळे बंद करून मूठ स्वर्गांतु ते बसून आसात. एदोळपर्यंत ते गोंयाभायर चलिल्या विकासाचो प्रकाश गोंयांत पळोंवंक ना ह्याच लिपी भेदान. गोंयात जाल्या साहित्य प्रगतीची वळख गोंयचें भायले आमगेले लोकांक कळना तशें जावंक केवल भौगोलिक दूर मात्र न्हय लिपी संबंध आसुंचो. हो कुरडो विश्वासय कारण जाला. ताज्यान आमी दूर दूर जात आसात. धर्मसंबंध कारणांनी खंयच्याय लिपीक लागीं येवप याँ दूर जावप एकच लेकान विषलिप्त जाता.

हाका लिप्यंतरीकरीण एक मुख्य उपाय न्हय. तरी त्या खातीर कितलो वेळ, पैसो आनी वाव्र करचो पडतलो म्हळ्ळी कल्पना थोडीची केल्यार हाजी खोलाय कळतली. एक लिपीन बरोवन ते मागीर दुसरे लिपीक परिवर्तन कठीनयि व्होयि. लकिष्टयी होयिदोळचे जावन गेले. मुखारी बरोवचें पुणयी नागरी लिपीन बरयल्यार चारयी राज्यांतल्या लोकांक ते पावच्याक साध्य जातले. नागरी लिपी सोडून हेर खंचेय लिपीन बरयल्यार कितलेय बरे आसल्यारय एक प्रदेशाचे भायर पावचें ना. आर्थिक कारणांक लागून मुद्रण करतना नागरी काडल्यार उमेद दिसची ना. खरे. ते आतां तशें जालां. आमकां ह्याच दृष्टीक लागून मात्या वयलें पांगरूण आनी खाक्यांतलो स्ट्रेचर्स काडून नीट राबून चमकून पळयात, फाटीक बळ, पांयांक बळ, सर्वहिता नागरी लिपी साहित्य वाडून हृष्ट पुष्ट जावच्याकय ताचे बल मेळतले. कोंकणीचे भविष्य भद्र करूंक आमी मिथ्याभिमान वरीत दवोरन निज प्रश्नावटेन वळचे गरजेचें. सोडि धरिन त्तिलें घरचो विशयच मुखार वचना मागीर नवें कोंकणी समाजाचो.

## हें काम कोण करका ?

साहित्य, संस्कृती आनी संशोधन ह्या तीन क्षेत्रांत कसकसले काम जावका म्हळिल्लें म्हजो परिमित समजूतिक दिसले तशें संक्षिप्त जावन हांवे सांगले हो वाव्र करचो कोणे हो होड प्रस्न आमचे मुखार आसा. सत्तर सोपिल्या म्हजे असले म्हातारयानी आमच्या दुबळे खांदार घेवचो वाव्र हो न्हयी. आमी पिकून पडची पानां जाल्यांत. कोंकणी भाशेचो मांचक वटवृक्ष तरणे वाडचे पानानी भरीत जावन शोभका. तीं तरणीं पानां म्हळ्यारी आमची युव पिळगी. ‘ एक नवी जागृती’ म्हळ्या आपल्या विदतपूर्ण भाशणांत इकरावे अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य सम्मेलनाचो अध्यक्ष एड्वीन सोज बाबान दोन वर्सा पयलींच आमगेले युवजनांगाक कोंकणी उदरगतीचे दिशेन जागयल्यात. तांच्या भाशणांतली थोडी उतरां वेंचून हांव तुमका परतुन उगडास करता .

‘...... आमच्या युवजनांक टी–शर्टांचो मोग भारीच. आय लव्ह इंडिया, आय लव्ह केलिफोर्निया, आय लव्ह मेडोन्ना, असली उतरां छापून असलीं टी–शर्टां घालून ते भोंवतात. ‘आय लव्ह कोंकणी’ कशी दिसतीत हीं उतरां टी शर्टांचेर. ह्या सवालांतली गंभीराय चिंतून पळोवया. ‘आय लव्ह कोंकणी’ टी–शर्टां घालची

तरणाटपणाची पिसाय जांवयेत. पुण हीच पिसाय कोंकणी म्हळ्ळे किटाळ उबजयता तर ? कितल्यो लिपी आसात म्हजे मायभाशेक ? चार ? पांच ? ह्या सर्व लिपीनी म्हज्या टी शर्टाचेर लिखूंक हांव तयार आसां. आय लव्ह कोंकणी पावनासल्यार ते फामाद आठवे वळेरींतल्या सर्व भासांनी हांव लिखूंक तयार आसां – आय लव्ह कोंकणी, कित्याक मौन आसात तुमी ? टी शर्टाची जागृती आनी क्रांति हांव उटयना. म्हज्या उतराचेर ताळयो पाटिनाकात; शिळण्यो मारिनाकात. पूण उगडास दवरात, फकत मांयभाशेवरवीं आमचे संस्कृतीचे अस्तित्व आमी जाणा जांवक सकतांव. आनी ते राकूंक सकतांव. ह्या उतरावरवीं आयचे सांजेर तुमचे थंय कसली जागृती पुवाय जाल्यातर म्हज्या मोगाच्या युवजनानो, उबे जायात. सामूहिक चलावणेक आयते जायात. आनी एका ताळ्यान 'आय लव्ह कोंकणी' आमी मांयभाशेचो आनी कोंकणी भाशेचो मोग करतांव म्हळ्ळी घोषणा ह्या घनेस्त जम्याक पाचारियात'.

तीच आवेशभरीत उत्तरां हांव पुनरूच्चार करतां. आनी म्हणतां कोंकणीचो समग्र उदरगतीचो वावर तुमच्या सुपुष्ट खांद्यारी घेया; सर्व राष्ट्रीकृत भाशेंत, साहित्य मळारी कोंकणीक प्रथम स्थान मेळोपर्यंत मागशीं घुवन चोवनाकात. वीर सरदारासारखे चलामुखार हरदें उबारून धरून !

सरदाराचे एक सैन्यऽच चारियी राज्यांत तयार जाल्ले आसा. कर्नाटकांत जागे कवी नांवारी काम करचे कोंकणी कुलरत्न चा फ्रा द कोस्ताचे शिष्य मौरीस डीसा शांतिपूर, फ्रेड कुमार कुच्चीकाड आनी हेर, केरळांत शरतचंद्र शणै, आनंदन, पय्यनूर रमेश पै, गोकुलदास प्रभु आनी हेर, गोंयात 1993 चो साहित्य अकादेमी पुरस्कार विजेत महाबळेश्वर सैल, रमेश वेळुसकार, एन्. शिवदास, श्रीमती मीना काकोडकार आनी हेर; महाराष्ट्रांत साहित्य अकादेमी पुरस्कार विजेते जे बी मोरायस आनी डा. टि एम् ए पै प्रतिष्ठानचे पुरस्कार विजेते जे बि सिकवेरा हांचे मार्गदर्शनारी मुखार आयिल्ले तरूण साहित्यिकांचो पंगड आनी हेर बहुसंख्यान उदयोन्मुख कवी, कथा लेखक, कांदबरीकार कोंकणीचे उदरगतीचे कामाक केदनाय कटीबद्ध आसात. तांचेकडेन हांव कळकळीन विनंती करतां कि ताणी तांग–तांगेले अभिरूचीचे विशय – काव्य कथा, कादंबरीचे जीवळ हांवे साहित्यमळारी विवरसिल्ले गंभीर विशयाचेर, साहित्यसृष्टी करचो परिपाठ आरंभ करका. त्या विषयाचेर बरोवणी करूंक धाकल्यांक मार्गदर्शन दिवंका. तेन्नाच कोंकणी सर्वांग सुंदर आनी हृष्ट–पुष्ट जावन राष्ट्रीय स्थान मान मेळच्या घनतेक पात्र जातली. तो शुभदिवस हांवे दोळे धांपचे आदींच उदेवो अशें आशेतां.

## उपकार स्मरण

भाशण अंत्य करचे पयले उपकार स्मरण करूंक हांव विसरना गोंयच्या म्हापशेंच्या ह्या सुंदर वातावरणांत, अलंकृत वेदीचेर बारावें अधिवेशन व्यवस्था केल्ल्या सर्व कार्यकर्त्यांचो, सम्मेलनाक आधार दिल्ल्या मातृसंस्था अ. भा. कोंकणी परिशदेचो आनी पदाधिकारींचो पयले काळजाथावन हांव उपकार आटयता. जबाबदारेच्या ह्या अध्यक्ष स्थानाक सर्वानुमतान म्हाका विंचिल्ल्या चारियी राज्यांच्या प्रतिनिधी संस्थांक आनी पदाधिकाऱ्यांक हांव 'देव बरें करूं' म्हणतां. वेदीचेर आशिल्ल्या सर्व मानेस्तांक म्हजी हृत्पूर्वक कृतज्ञता. वेदीच्या मुखार सहस्त्र संख्येन उत्साहान भाग घेतिल्या सर्व प्रतिनिधिचो. आमंत्रित अतिथिंचो हांव उपकार आटयतां. हांगासावन परतून तुम तुमगेल्या गांवाक वेतना दोन दीस हांगा व्यय केल्लोल्याची मधुर स्मृती तुमी व्हरतलेच. कोंकणीच्या उदरगतीखातीर सम्मेलनामुखार आयिल्लो सर्वसुचोवण्यो जाता तितले बेगीन कार्यरूपाक हाडूंक शक्ती मिरवनु प्रयत्न करतले अशें हांव पातयेतां.

ह्या पुण्यभूमिं गोमंतकाच्या आमच्या तिन्नियि गुरूपीढीक ह्या अपर वयारी हांगासर सुखमुखी प्रयाण करून सम्मेलनांत जावतशी म्हजी भलायकी राकिल्या सर्वकुलदेवांक हांव साष्टांक

नमस्कार करतां.

म्हजे भाषणाचें सारांश जावन एक ल्हानशें कवन तुमचें मुखार दवरतां

साकार जालें सोपन दीर्घकालाचें
आठवे परिशिष्टांत कोंकणीक मेळोवचें
राष्ट्रीय स्थान मेळ्ळां मातृभाशेक
अवकाश मेळ्ळा तिच्या सर्वांगीण प्रगतीक

सृष्टि जावंका साहित्य नामामुख
पुष्टि दिवंका भाषिकानी प्रोत्साहदायक
गद्य, पद्य वैज्ञानिक तांत्रिक ग्रंथ अगणीत
आद्यता दिवनु प्रकाशाक येवकाति सतत

दिया प्रोत्साह सर्व कोंकणी पुस्तकांक
घेया मोल दिवनु उत्साहु हाजेन बरोवप्यांक
मेळनु तान्नी बरयले वयरी वयरी
साहित्यमळारी भासयी येतली प्रथम स्थानारी
लिपि, राज्य, जाती मतभेद विसरया
पयले आमी कोंकणी म्हणु मुखार सरया
संघठित प्रयत्नाक केदनाय जयसिद्ध
एकवट घडवंचे दिशान जावंया कटिबद्ध

## संदेश

ह्या संमेलनाक म्हजो संदेश हो जायते प्रकार हो प्रसार करीजे म्हणु चौपन्न वर्सां पयले आशीर्वादपूर्वक म्हाका आदेश दिल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशद स्थापक कीर्तिशेश माधव मंजुनाथ शानभागमामाची स्मरण करून हांव तो उच्चरतां.

प्रचार करिरे कोंकणीभास तुजी
आवय भास तुजी ॥ प्रचार ॥

गोडि गोडि भास खरी भीड करूं नाका
वयल्या पंक्तीची चोयी उणे समजूं नाका
जो सत्य समजता तो यश मेळयता
चोयता प्रेमान ॥ प्रचार ॥

गद्य–पद्य स्तोत्र ग्रंथ रचय भाशेन
भाशेचें वाङमय वाडय प्रेमान
मातृभाशेचे धन स्वर्णसमान
जमय हर्षान ॥ प्रचार ॥

जय जय कोंकणी ! लांब जियों कोंकणी !!



संमेलन माटवाक जांचें नांव दिलां ते

# गुंडू सिताराम आमोणकार



बार्देस म्हालांतल्या चिखली गांवांत १९०१ वर्सा जालो. बी. ए. मेरेनचें शिक्षण एलाफिन्सटन कालेजींत मुंबय जालें. शिकप सोंपले उप्रांत, शिक्षक जावपाचें ध्येय धरिल्ल्यान गोंयांत येवन तांणी काणक्यां 'सेक्रेड हार्ट ऑफ जिझस्' हे शाळेंत नोकरी धरली. १९२५ ते १९४५ ह्या काळांत तांणी म्हापशेंच्या सारस्वत विद्यालयाच्या कायभाराचीं सुत्रां सांबाळ्ळीं. उप्रांत तांणी १९४३ वर्सा स्वताची इंग्रजी माध्यमाची शाळा म्हापशें शारांत सुरू केली. गोंयां इंग्रजी शिक्षणाची बुन्याद घालपी शिक्षणीक मळावयल्या मानादिकांमदीं गुंडू सिताराम आमोणकार हांची सुवात खूब उंचेली. पुरातन भारतीय आदर्शांक नव्या अस्तंती गिन्यानाचो आदार दिवन नवी पिळगी निर्माण करपाच्यो तांच्या सपनांतल्यान तांणी हो वावर सुरू केलो आनी व्हड जिद्दीन मुखार व्हेलो. 'न्यू गोवा हायस्कूल' ही म्हापशेंची शिक्षणीक संस्था हें तांच्या सपनाचें मूर्त रूप.

एक कुशळ वक्तो, प्रखर राष्ट्रवादी, नामनेचो लेखक, तळमळीचो समाजसेवक अशा साबार मळांचेर तांचें नांव गोंयांत अजरामर जावन गेलां.
गोंयच्या साबार मळांचेर जावपी उदरगतींत तांचो ह्या ना त्या कारणान हातभार लागिल्लो आसा. 'गोंयचो भुगोल' हें शालेय विद्यार्थ्यांखातीर बरयल्लें तांचें पुस्तक हो एक बरो संदर्भ ग्रंथ.



संमेलन माचयेक जांचें नांव दिलां ते

# लुकाझीन रिबैर

तियात्र हो नाट्यप्रकार नांवरुपाक हाडपी व्हड कलाकार म्हळयार बाब लुकाझीन रिबैर. लुकाझीनबाब हांणी १८९२ वर्सा पयलो तियात्र बरयलो. दिग्दर्शीत केलो आनी १७ एप्रील, १८९२ दिसा पास्कांचे परबेसमयार, आल्फ्रॅड थिएटर हॉलांत मुंबय माचयेर हाडलो. तो तियात्राचो आरंभ.

लुकाझीनबाब गांवान सकलवाडो, आसगांव, बार्देसचे. भुरगेपणार ते गांवांत फेस्तां–परबां समयार गितां, नाटकुलीं सारके कार्यक्रम घडोवन हाडून ते माचयेर करून दाखयताले. लुकाझीनबाब हे बरे शिकिल्ले सवरिल्ले; ते आपल्या गांवांतल्या भुरग्यांक इंग्लेजीचीं ट्युशनां दिवन तांच्या शिकपांत मदत करताले. नोकरेनिमतान ते मुंबय गेले. नाटक-कलेची आवड आशिल्ल्या तांणी एका नाटकां करपी पंगडाकडेन नोकरी धरली.

त्या काळार मुंबय इतालियन ऑपॅरा येताले. असलेच एके इतालियन नाटकां कंपनीत लुकाझीनबाब नोकरेखातीर भितर सरले आनी थंयच एक इतालियन ऑपॅरा कोंकणींत अणकारलो. देखावे मांडटना वेळ वेता तेन्ना लोकांक वाज येना जावपाक, दोन पड्ड्यामदें गितां गावपाची मांडणी केली. तांचो हो पयलो प्रयोग एकदम सुफळ जालो आनी मुंबय शारांत पयलो कोंकणी तियात्र जल्माक आयलो. हो तियात्र माचयेर हाडपाच्या कामांत लुकाझीनबाबाक बाब जुवांव आगुश्तीन फेर्नांदीश हांणी व्हड सहकार दिलो. तियात्र आनी लुकाझीनबाब हांचें नांव हे भाशेन सदांखातीर एकमेकासांगाता जोडून उरलां.

## संमेलन माटवाच्या मुखेल दरवट्याक जांचें नांव दिलां ते

# स्वातंत्र्यसेनानी निकूबाब कारापूरकार



गोंयच्या सुटकेझुजाखातीर जांणी आपणालें पुराय जिवीत ओंपलें अशा म्हालगड्या सुटके–झुजाऱ्यांमदले एक म्हळयार निकूबाब कारापूरकार. तांचें पुराय नांव निळकंठ कारापूरकार. तांच्या इश्ट-परिवारांतले तांकां निकूआप्पा अशेंय म्हणटाले.

निकूबाब हे मूळसावनच गांधी विचारांनुसार वावुरले आनी व्यक्तीगत जिणेंतय तेच प्रमाण जियेले. खादीचो प्रचार, समाजीक सुदारणा, अस्पृश्यता निवारण, दुर्बळ घटकांखातीर शाळा चलोवप असलो विधायक वावर तांणी घोस्तान चलयलो. गोवा सेवा संघाचे ते एक प्रमुख वांगडी आसले. १९४६ वर्सा गोंयचो मुक्ती संघर्श सुरू जालो. निकूबाबान ह्या संघर्शांत आघाडेर रावन कार्य केलें. १९४७ वर्साच्या डिसेंबरांत तांकां पुर्तुगेजांनी बंदी केले आनी १५ वर्सांची बंदखणीची ख्यास्त दिवन आंगोलांत धाडले. थंय तांच्या वांट्यांक खूब कश्टांची जीण आयली. गोंय मुक्ती उपरांत ते गोंयांत परतले. गोंयां येतकच तांणी आपलो लोकसेवेचो वावर परत नेटान सुरू केलो. ते खातीर दिवचले १९६४ त तांणी सर्वोदय आश्रम सुरू केलो. कोंकणीचो वावरय तांणी नेटान चलयलो. कोंकणी भास, शिक्षण आनी साहित्य हांचो प्रचार-प्रसार करपाखातीर ताणी दिवचले कोंकणी सेवा केंद्र स्थापन केलें आनी जिविताच्या अंतामेरेन तेखातीर ते वावरत रावले.

# सत्काराचे मानकरी

१. महाबळेश्वर सैल
२. ओलिविन्यु गोमीश
३. बेर्ता मिनेझीस
४. श्रीरंग नार्वेकार
५. पांडुरंग भांगी
६. जुवांव इनास द सौज
७. विसेंत द सालीगांव
८. बी ई मेंदीश
९. प्रभाकर तेंडुलकार
१०. रमाकांत पोवळेंकार
११. दत्ताराम मंत्रवादी
१२. सदानंद काणेकार

# कार्यावळ

शेनवार ता. ५/३/९४

सांजेचीं ५–०० ते ७–०० : **उक्तावण सुवाळो**

: येवकार गीत

: प्रास्तावीक : डॉ. तानाजी हळर्णकार
कार्याध्यक्ष

: येवकार : श्री. तोमाझिन्य कार्दोज
स्वागताध्यक्ष

: दिवली प्रज्वलन

: उद्घाटकाचें भाशण

: खाशेले सोयरे : डॉ. विल्फ्रेड द सौझ
मुखेलमंत्री, गोंय

: मान्यवरांचे सत्कार

: अध्यक्षीय भाशण : श्री. बी वी बाळिगा

: उपकार : श्री. रमेश वेळुस्कार
अध्यक्ष, कोंकणी भाशा मंडळ-गोंय

रातचीं ७–३० ते ८–३० : **कवी संमेलन**

: अध्यक्ष : श्री. प्रकाश पाडगांवकार

सहभाग : डॉ. दयानंद राव, शाबा कुडटरकार, विनायक गोवेंकार, विठ्ठल आवदियेंकार, आनंद मंगेश नायक, मीलन वायंगणकार, सोयरू वर्दे, अनंत साळकार, संजीव वेरेंकार, शैलेंद्र मेहता, माया सरदेसाय, निलबा खांडेकार, प्रकाश पर्येकार, शांती तेंडुलकार, नयना आडारकार, हर्षा कुडचडकार, रत्नदीप वस्त, वसंत सावंत, परेश कामत, पोब्र फेर्नांदीश, शशिकांत पुनाजी, प्रशांती तळपणकार, विजयकांत गावडे, रोहिदास मंगेशकार, दुर्गादास गावडे, श्रीकांत पालसरकार, प्रसाद लोलयेंकार.

१० ते १२ : **सांस्कृतीक कार्यावळ**
अपरूप, मडगांव – देखणी गितां
प्रताप आमोणकार आनी सांगाती : वाजतीं पांयजणां
निवेदन : कल्पना कुडटरकार, पुर्णानंद च्यारी, रूपा धारवाटकार

---

(१० ते ११ : विशय नियामक समितीची बसका)

## आयतार ता. ६/३/९४

सकाळीं ९–३० ते १०–३० : **नव्या शतमाना खातीर नवें साहित्य**
(परीसंवाद–१)
अध्यक्ष : श्री. नंदकुमार कामत
पेपर १ कथा – कादंबरी – श्री. महाबळेश्वर सैल
पेपर २ नाटक – श्री. श्रीधर कामत
पेपर ३ ललीत निबंध – श्री. दत्ता दामोदर नायक

चर्चा सहभाग : श्री. प्रकाश वझरीकार, श्री. रवीन्द्र म्हाड्डोळकार, श्री. विन्सी काद्रूश, श्री. पुर्णानंद च्यारी.

१०–३० ते ११–३० : **लोकवेदाचें अंतरंग**
(परिसंवाद–२)
अध्यक्ष : प्रा. श्याम वेरेंकार
पेपर १ : लोकवेदाचो साहित्य सृजनांत कितलो उपेग जाला ? – बाय जयंती नायक
पेपर २ : साहित्य निर्मितींतल्यान लोकवेदाची व्याप्ती – श्री. पांडुरंग फळदेसाय

चर्चा सहभाग : श्री. प्रकाश पर्येंकार, श्री. जेस फेर्नांदीश, श्री. प्रकाश द. नायक

११–३० ते १२–३० : **भारतीय भासांचें देणें–घेणें**
(परिसंवाद–३)
अध्यक्ष : श्री. पुंडलीक नायक
मराठी : श्री. रवींद्र घवी
हिंदी : डॉ. गोरखनाथ मिश्र
कन्नड : अरवींद याळगी

**सांजेचीं २–३० ते**

**३–३०** : **कादंबरी लेखनाची परिस्थिती**

(परिसंवाद–४) अध्यक्ष : डॉ. अरूण हेबळेकार

पेपर १ : बाय हेमा नायक

पेपर २ : श्री. गोकुळदास प्रभू

पेपर ३ : श्री. दिलीप बोरकार

चर्चा सहभाग : श्री. एन्. सुहास, श्री. एन्. शिवदास, बाय रजनी भेंब्रे, श्री. दामोदर मावजो.

**३–३० ते ४–३०** : **भाशेच्यो शैली : प्रमाणीकरणाक आदार काय आडखळी ?**

(परिसंवाद–५) अध्यक्ष : फा. मॅथ्यु आल्मैद

पेपर १ श्री. युसूफ अ. शेख

पेपर २ श्री. फेलिसियु कार्दोज

पेपर ३ प्रा. भूषण भावे

चर्चा सहभाग : श्री. पय्यनूर रमेश पै, बाय प्रशांती तळपणकार, श्री. सतीश बुटे, श्री. आनंद देसाय

**४–३० ते ५–३०** : **उक्ती बसका**

**५–३० ते ७–३०** : **समारोप**

प्रस्तावीक : श्री. जे बी मोरायश
अध्यक्ष : अ. भा. कों. परिशद

मुखेल सोयरे : श्री. विनयकुमार उसगांवकार
शिक्षण मंत्री, गोंय
: श्री. लुईझिन्य फालैर
कायदे मंत्री, गोंय.

समारोपाचें भाशण : श्री. बी वी बाळिगा
संमेलनाध्यक्ष

उपकार : श्री. भरत नायक
सचीव, अ. भा. कों. सा. संमेलन

**८–०० ते ९–००** : **कवी संमेलन**

अध्यक्ष : श्री. जे बी मोरायश

**१०–०० ते १२–००** : **'युगान्त'** कोंकणी नाटक

सादरकर्ते : विकास मंदिर, मेरशी-गोंय



# Baravem Okhil Bharati Konknni Sahitya Sommelon

## KARIAVOLL

**Sonvar, 5-3-1994**

**Sanje 5-00 tim 7-00** — **Uktavonn Suvallo**
: Ekvar git
: Survechim Utram
Dr. Tanaji Halarnakar,
Kariadheokx
: Evkar - Xri Tomasinho Cardoso,
Evkar Odheokx
: Divli pettovop
: Uktavonnachem ulovop
: Khaxelo Soiro - Mukhel Montri
Dr. Wilfred de Souza hanchem ulovop.
: Manestanche Sotkar
: Odheokxanlem ulovop -
Xri B. V. Baliga, Sommelonacho odheokx
: Upkar - Xri Ramesh Velluskar

**Sanje 7-30 tim ratim 8-30** — **Kovi Sommelon**
Odheokx : Xri Prakash Padgaonkar

**Vantto ghevpi** - Dr. Dayanand Rao, Shaba Kurtarkar, Vinayak Govenkar, Vithal Audienkar, Anand Mangesh Naik, Milan Vainganka, Soiru Varde, Anant Salkar, Sanjiv Verenkar, Shailendra Mehta, Maya Sardesai, Nilba Khandekar, Prakash Parienkar, Shanti Tendulkar, Nayana Adarkar, Harsha Kudchadkar, Ratnadeep Vasta, Vasant Sawant, Paresh Kamat, Pobre Fernandes, Shashikant Punaji, Prashanti Talpankar, Vijayakant Gavde, Rohidas Mangeshkar, Durgadas Gavde, Shrikant Palsarkar ani Prasad Lolienkar.

Sutra Sonchalon : Prasad Lolienkar

**Ratim 10-00**
**tim 12-00** — **Sonskrutik Kariavoll**

: APRUP, Moddganv hea pongddachim dekhnni gitam.

: Pratap Amonkar ani Sangati - Vaztim Painzonnam

: KALA MOGI, Candolim - Gitam.

**Nivedon** : Kalpana Ḱurtarkar
Purnanand Chari
Rupa Dharvadkar

**Aitar, 6-3-1994**

**Sokallim 9-30**
**tim 10-30** — **Novea Xotmạnakhatir novem sahitya** - (Porisonvad)

Odheokx : Xri Nandkumar Kamat

Paper 1 : Kotha Kadombori - Xri Mahabaleshwar Sail

Paper 2 : Nattok - Xri Shridhar Kamat

Paper 3 : Lolit Nibondh - Xri Datta Damodar Naik

***Chorchent Vantto ghevpi -***

Xri Prakash Vazrikar
Xri Ravindra Mardolkar
Xri Vincy Quadros
Xri Purnanand Chari

**Sokallim 10-30**
**tim 11-30** — **Lokvedachem Ontorong** - (Porisonvad)

Odheokx : Prof. Shyam Verenkar

Paper 1 : Lokvedacho Sahitya nirmonnent kitlo upeg - Bai Jayanti Naik

Paper 2 : Sahitya nirmonnentlea lokvedachi suvat -- Xri Pandurang Phaldesai

***Chorchent Vantto ghevpi -***

Xri Prakash Parienkar
Xri Jess Fernandes
Xri Prakash D. Naik



| | | |
|---|---|---|
| **Sokallim 11-30 tim donparam 12-30** | — | **Bharati bhasanchem dennem ghennem -** (Porisonvad)<br>Odheokx : Xri Pundalik N. Naik<br>***Chorchent Vantto ghevpi :***<br>Xri Ravindra Ghavi (Marathi)<br>Dr. Goraknath Mishra (Hindi)<br>Xri Arvind Yalgi (Kannad) |
| **Donparam 2-30 tim 3-30** | — | **Kadombori lekhonachi poris'stiti** - (Porisonvad)<br>Odheokx : Dr. Arun Heblekar<br>Paper 1: Bai Hema Naik<br>Paper 2: Xri Gokuldas Prabhu<br>Paper 3: Xri Dilip Borkar<br>***Chorchent Vantto ghevpi -***<br>Xri N. Suhas<br>Xri N. Shivdas<br>Bai Rajani Bhembre<br>Xri Damodar Mauzo |
| **Sanje 3-30 tim 4-30** | — | **Bhaxecheo Xoileo** (Moddi) promannikornnak adhar kaim addkholli ? (Porisonvad)<br>Odheokx : Dr. Mathew Almeida<br>Paper 1 : Xri Yusuf A. Shaikh<br>Paper 2 : Xri Felicio Cardoso<br>Paper 3 : Xri Bhushan Bhave<br>***Chorchent Vantto gheupi -***<br>Xri Payyanur Ramesh Pai<br>Bai Prashanti Talpankar<br>Xri Satish Bute<br>Xri Anand Desai<br>Sutr Sonchalon : Shailendra Mehta |
| **Sanje 4-30 tim 5-30** | — | **Ukti boska** |

**Sanje 5-30**
**tim 7-30** — **Somarop Suvallo**

: Survechim Utram - Xri J. B. Moraes
Odheokx, O. B. Konknni Porixod

: Mukhel Soire :

- Xri Vinaikumar Usgaonkar,
  Goencho Xikxonn Montri
  ani
- Xri Luizinho Faleiro
  Goencho Kaideia Montri, hanchim ulovpam

: Somaropachem ulovop - Xri B. V. Baliga,
Sommelonacho odheokx

: Upkar - Xri Bharat Naik

Sorchittnis, O. B. Konkani Sahitya Sommelon.

**Ratim 8-00**
**tim 9-00** — **Kovi Sommelon**

Odheokx : Xri J. B. Moraes

*Vantto gheupi:*

J. B. Moraes, B. V. Baliga, P. G. Kamat, Vijayabai Sarmalkar, Nutan Sakhardande, Arun Sakhardande, Jess Fernandes, Manoharrai Sardesai, Sudesh Lotlikar, Bharat Naik, Nagesh Karmali, Soter Barreto, Ashok Bhonslo, Bhikaji Ghanekar, Prakash Padgaonkar ani Ramesh Velluskar.

Sutr Sonchalon - Prakash D. Naik

**Ratim 10-00**
**tim 12-00** — **Nattok - YUGANT**

Sador Korpi - Vikas Mandir,
Merxi - Goem



# IRRIGATION DEPARTMENT

## GOVERNMENT OF GOA

PARTICIPANTS IN THE DEVELOPMENT OF THE STATE BY EXECUTING THE DEVELOPMENTAL WORKS UNDER WATER SUPPLY :-

THROUGH CONSTRUCTION OF :

1. SALAULIM IRRIGATION PROJECT.
2. TILLARI IRRIGATION PROJECT.
3. ANJUNEM IRRIGATION PROJECT.
4. COMMAND AREA DEVELOPMENT WORKS IN BOTH ANJUNE AND SALAULIM IRRIGATION PROJECTS.
5. MINOR IRRIGATION SCHEMES SUCH AS CONSTRUCTION OF BANDHARAS, TANKS AND LIFT IRRIGATION.

AND MANY OTHER SCHEMES UNDER WATER RESOURCES DEVELOPMENT.

*ISSUED BY :*

**IRRIGATION DEPARTMENT**
PANAJI - GOA



# DIRECTORATE OF EDUCATION
# EDUCATIONAL DEVELOPMENT IN GOA

| | No. of Institutions on Liberation | To day (1900) | Enrolment On liberation | To day | Teachers On liberation | To Day |
|---|---|---|---|---|---|---|
| Primary | 476 | 1250 | 53607 | 107216 | 1206 | 3904 |
| Middle | - | 436 | - | 84840 | - | 2453 |
| Secondary | 95 | 329 | 9260 | 68064 | 321 | 2443 |
| Hr. Sec. | 1 | 39 | 921 | 16812 | 40 | 673 |
| College (General)- | | 15 | - | 9833 | - | 466 |

2. Marching towards achievement of 100% universalisalisation Elementary Education by 1995.
3. Liberal provision of scholarships, freeships, book grants and other incentives to a large number of economically backward students, girl students SC/ST students etc. in order to check stagnation and dropouts.
4. Library movement. By 1995 every village Panchayat will have a village Library. Taluka libraries are opened in all Talukas to encourage reading habit among the students youth and adults.
5. Emphasis on Vocational and Technical Education in order to encourage self employment and increase in employability in private firms.
6. Note-books sold at concessional rates to students through schools, Co-operative societies and Sahakari Bhandars.
7. Mid-day meals being provided to 20, 000 children in Primary Schools.
8. Free supply of text books, note books, raincoats, uniforms, etc. to the poor and needy students in the rural area so as to achieve 125% enrolment in elementary schools and help in achieving 100% literacy by 1992-93.
9. Government is marching towards achieving 100% literacy in the next 2-3 years. Literacy percentage even in backward talukas like Cancona, Sanguem, Sattari, Pernem, etc. is 80% in the age group of 15 to 35 years and 70% in the age group of 0 to 100 years as per the survey conducted in March 1989.
10. An Institution known as District Institute of Educational Training has been established at Porvorim in order to upgrade the training programme of pre service primary teachers.

**FUTURE PLANS**

1. Establishment of a Sainik School in Goa.
2. Upgradation of State Institute of Education into a State Council of Education Research and Training.
3. Upgrading the taluka level administration and complete decentralisation of power at Zonal and Taluka level.
4. Strengthening of inspectorate at Zonal and Taluka level in order to provide regular and effective training and supervision to the teacher at all levels upto Higher Secondary levels.
5. Provision of liberal grants and buildings loans to private schools.
6. Incentive grants to the private Secondary Schools in order to encourage healthy competition among Government Schools.

**DIRECTORATE OF EDUCATION**
**GOVERNMENT OF GOA**
**PANAJI - GOA.**



